# युवांकूर - 2008

**गोवा कोंकणी अकादेमी,**

**कोंकणी भाशा मंडळ** - मडगांव

आनी

**राजीव गांधी कला मंदीर** - फोंडें.

हांच्या जोडपालवान

10 आनी 11 फेब्रुवारी 2007 ह्या दिसांनी जाल्ल्या

आठव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलना निमतान घेतिल्ल्या सर्तींनी

इनामां फाव जाल्ल्या साहित्याचो झेलो




संकलक

**प्रा. हनुमंत चोपडेकार**




**गोवा कोंकणी अकादेमी**

युवांकूर - 2008

(कथा, कविता, आनी निबंद हांचो संग्रह)

प्रकाशन क्र. 108



**उजवाडावपी :**
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
पणजी, गोंय

**मुखचित्र :** कस्तुरी ग्राफीक्स

**छापपी :** कस्तुरी ग्राफीक्स
फोंडें - गोंय.

**पयली आवृत्ती :** फेब्रुवारी 2008

**मोल :** रु. 50/-

**YUVANKUR - 2008**

(Collection of Short Stories, Poems and Essays)

**Publication No.** 108



**Publisher :**
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Panaji, Goa.



**Cover :** Kasturi Graphics

**Printer :** Kasturi Graphics
Ponda - Goa.

**First Edition :** February 2008

**Price :** Rs. 50/-

# मांडावळ

## गोवा कोंकणी अकादेमीच्या वतीन ...

युवा साहित्य संमेलन हो अकादेमीचो उपक्रम आतां बरोच यशस्वी जावपाक लागला. दर वर्सा स्थानीक शिक्षणीक संस्थेच्या आदारान हें युवक संमेलन भरता. संमेलनाच्या निमतान युवकांमदल्या साहित्यीक गुणांक उत्तेजन दिवपाखातीर वेगवेगळयो सर्ती घडोवन हाडटा आनी त्या सर्तींतल्या वेंचीक साहित्याचें संकलन करून ते 'युवांकूर' ह्या नांवान उजवाडायतात.

पोरुं फोंडें हांगासर जाल्ल्या आठव्या युवा साहित्य संमेलनांतल्या वेंचीक साहित्याचें संकलन आनी संपादन करपाचो वावर त्या संमेलनाचे कार्याध्यक्ष प्रा. हनुमंत चोपडेकार हांणी केलां. संकलीत केल्ल्या साहित्याची तांणी आपलेपरीन अभ्यासपुराय अशी मोलावणीय केल्या.

आठव्या युवा साहित्य संमेलनांतल्या साहित्याचो हो 'युवांकूर' अंदू वर्सा पिलार हांगासर जावपी णवव्या युवा साहित्य संमेलनांत उजवाडाक येता.

युवा वाचप्यांकडल्यान तशेंच हेर वाचप्यांकडल्यान ताका बरो प्रतिसाद लाभतलो अशी आस्त आसा.



**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# युवांकुराच्या जतनायेखातीर.....

शणै गोंयबाबासारख्या म्हापुरूशान कोंकणी मनशाच्या हड्ड्याक सत्वाची आनी स्वभिमानाची जाग हाडली. उपरांत कोंकणी माय-भुंयेच्या अस्मितायेची पालखी खांद मारुन मुखार व्हेली ती कोंकणीच्या मुखावयल्या पिळगेन. दर वेळावयलो पुरुशार्थ हो खासाकरून तरनाटे पिरायेचेरूच घडला. सळसळट्या रक्तान दर फावटी ह्या भुंयेक आनी भाशेक ताट मानेन जगपाची स्फूर्त दिल्या. तरीय आमच्या म्हालगड्या साहित्यीकांक पळयले जाल्यार जाण्टे पिरायेचेरूय ते पंचवीस वर्सांच्या तरनाट्याक तजेक घालपी कर्तृत्व दाखयताना दिश्टी पडटात. तांची हीच प्रेरणा घेवन आयज नवे गडे साहित्याच्या माटवांत उर्बेन वावुरताना दिश्टी पडटात. तांच्या ह्या उर्बेक योग्य दिका दाखोवचेखातीर 1998 साकून युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाची सुरवात जाली.

शासकीय महाविद्यालय, केंपेचे प्राचार्य भौ. भास्करबाब नायक आनी गोवा कोंकणी अकादेमीचे त्यावेळावयले अध्यक्ष भौ. ॲड. उदयबाब भेंब्रे हांच्यानी ह्या साहित्य संमेलनाचें रोपटें रोयलें. आयच्या घटकेक तें णव वर्सांचें जाता. ह्या काळांत जायते तरनाटे साहित्यीक आमकां लाभले. पूण सातत्य आनी व्यासंगाचो उणाव आशिल्ल्यान फाव त्या प्रमाणात हें रापटें फुल्लां, फळ्ळां अशें म्हणपाक मेळना. तरीय लेगीत ह्या साहित्य संमेलनान नवे कवी, नवे कथाकार, नवे गीतकार, नवे निबंदकार, नवे नाट्य-लेखक दिल्यात हांतूत मातूय दुबावना. टनानी माती उप्रासल्या उपरांत मूठभर भांगर मेळटा म्हण्टा तशें...

आठवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन कोंकणी भाशा मंडळ आनी फोंडेंच्या राजीव गांधी कला मंदीर हांच्या जोडपालवान घडोवन हाडिल्लें. त्या निमतान कविता, कथा आनी निबंद अशे तीन साहित्यप्रकार वेचून तातुंतल्यान युवा आनी उदयमुख बरोवप्यांखातीर सर्ती आयोजीत केल्ल्यो. सांगपाचें म्हळयार थोड्या वळाभितरूच आमकां नव्या साहित्यीकांकडल्यान उपार आनी उत्स्फूर्त

प्रतिसाद लाभिल्लो. ह्याच सर्तींतल्यो जैतिवंत साहित्यकृती गुंथून हो युवांकूर आकाराक आयला.

कविता कथा आनी निबंद अशे तीन विभाग ह्या यवांकुरांत आस्पावल्यात. सांगपाचें म्हळ्यार ह्या तरन्या बरोवप्यांनी विंगड - विंगड विशयांचेर आपली लेखणी झरयल्या. पिराय ल्हान आसुनूय बी व्हड व्हड विशय हाताळटाना तांणी संयम बाळगिला. कांयकडेन परिपक्वताय (Maturity) दिसता जाल्यार कांयकडेन परिपक्वताय दिसना. स्पश्टूच सांगचें जाल्यार जायतेकडेन संदर्भाच्यो आनी भावनीक जाणविकायेच्यो गफलती दिसतात. पूण काळांतरान ह्यो चुको निश्चितच फाटी पडटल्यो. तेखातीर वाचन चिंतन आनी मनन हांची जोड दिवप भोव गरजेचें. त्यानभायर सातत्य पाळपूय तितलेंच म्हत्वाचें. हें सगळें घडून आयलें जाल्यार फुडाराक कोंकणी साहित्याच्या मळार नवो चमत्कार घडल्यान अजाप धरचें न्हय.

ह्या युवांकुरांत कथेच्या विभागांत पयलें इनाम जोडिल्ली कथा म्हळ्यार 'चंदनाचो रूख'. मनिषा राऊळ ह्या उदयमुख कथा लेखिकेन ती रचल्या. सुकडो हो तिचो नायक. नागेशी बांदोडे वाठारांतल्या राजघराण्याची फांटभूंय ह्या कथेक लाभल्या. सुकडो आनी ताचें कुटूंब राजासायबाच्या पागेंत आसा. राजासायबालें पडिल्लें काम तो आनी ताचो परिवार करता. राजासायबाच्या घराण्याचें राजचिन्न आनी जाण्टेल्यांच्या जैताचें प्रतीक म्हळ्यार 'चंदनाचो रूख' ह्या रुखाचें पावित्र आनी आदर सगळ्यांक आसा. पूण अचकीत एके रातीर तो रूख कोणतरी कातरून व्हरता. सुकड्याचेर आकांत येता. सगळी जापसालदारकी ताचेर आशिल्ल्यान राजासायबाक ही खबर दिवपाचें कठीन काम ताकाच करचें पडटा. तो भियत-भियत राजवाड्यार पावता. पूण राजा सायब तो सांगचेपयलींच सगळें उक्तें करता. रातीकडेन रूखाचेर पडिल्ले घावे राजासायबाच्या काळजारूय पडिल्ले आसता. कोणेतरी आपल्या पोटाकलागून रूख कापलो आसत जाल्यार राजा म्हूण ही आपली हार अशें तो मानता. आपणें आपल्या प्रजेच्या सुख-दुख्खांचेर फुंकर मारलीना अशें राजासायब समजता. राजासायबाचो हो अवतार पळोवन, सुकडो हुंडक्या हुंडक्यानी रडटा. संयम आनी सुचकता हे ह्या कथेचे दोन मुखेल घटक. सुकडो हुंडक्या हुंडक्यानी रडटा ही गजाल सुकड्याचो

पश्चाताप सिध्द करता. राजासायबाच्या कृपेक आपूण पात्र जालोना. आपणें आर्थिक चणचणीक लागून चंदनाचो रूख कापलो हें येवजून तो रडटा. सुकडोच रूख चोरता ह्या जगालीचो खंयच उल्लेख लेखिकेन करूंकना हें तिचें खरें जैत.

दुसरें इनाम जोडपी कृपाली नायक हाची 'नाते' ही कथा आवय-बापूय आनी भुरगो हांचे नातेसंबंद उक्तें करून दाखयता. आबा आनी रमाबाय सारखे असंख्य आवय बापूय आपल्या भुरग्यांचेर आपलें सर्वस्व हुंवाळून उडयता आनी आपल्या पांयार उबो रावतकच तोच भुरगो तांच्या तकालसाची, तांच्या त्यागाची आनी जाण्टया पिरायची पर्वा करीनासतना सवण्याभशेन भुर्र करून उडून वता ह्या आशयाची ही कथा. कथेचें बी वायटशेंना पूण ताचो विस्तार करताना लेखिका कमी पडल्या.

या विस्ताराच्या बाबतींत हेर कथाय बळी पडल्यात. देखीत 'जीण अस्तुरेची' ही तिसरें इनाम मेळिल्ली विदिता शेट हांची आनी 'त्याग' ही दर्शन कामत मांची कथा विस्तारतंत्राच्या उणावपांकलागून चंदनाचो रूख प्रमाण उंचाय गांठूंक पावना. त्यानभायर पांचवें इनाम जोडपी आल्जिरा पेरेराची 'साराची काणी' ही कथा अतिविस्ताराच्या बकीक पडल्या हें जड मनान सांगचें पडटा.

स्पश्टूच बरोवंचें जाल्यार तरनाटे कथाकार हेर जेश्ठ कथाकारांच्यो कथा वाचिनात. महाबळेश्वर सैल, दामोदर मावजो, मीना काकोडकार, शीला कोळंबकार, एन. शिवदास, पुंडलीक नायक, जयंती नायक हांच्या सारख्या कथाकारांच्यो कथा वाचल्यार वा त्यो अभ्यासल्यार बिजाचो विस्तार कसो करप, पात्रचित्रण व्यक्तिरेखा म्हूण कशें चितारप, संघर्शाचो संयमशील उपेग असो करप आनी योग्य शेवट कसो सादप हें शिकोवंचें पडचेंना.

वयल्या साबार नव्या कथाकारांकडेन प्रतिभा निश्चितूच आसा पूण चिकित्सक नदर आनी शिकपाची इत्सा आसल्यारूच तांची मोख तांका मेळटली ..... ना, मेळपाकूच जाय.

कवितेच्या विभागांत पयले सुवातेर आसा ती 'जीण' ही प्रतिमा कासकार हाची कविता. जीणेसारख्या विशयाचेर वेगळ्या दृश्टीकोनांतल्यान भाश्य केल्ल्यान ह्या कवितेची उंचाय वाडल्या. मोजक्या आनी वेंचीक उतरांचो प्रयोग आनी शास्वत विचार हांका लागुनूच ही कविता आशयसंपन्न जाल्या.

कवी म्हण्टा -

'जीण
एक प्रवास
ताची स्टेशनां हजार
रावता आशेच्या
रस्त्यार .....'

दुसरें इनाम फाव जाल्ली 'धर्तरिचें गीत' ही के.ऋषिकेश हांची कविता सूर, लय, ताल, छंद घेवन येता. ही कविता वाचताना जेश्ठ कवी नागेशबाब करमलींच्या 'वंशकुळाचें देणें'ची याद जालेबगर रावना. 'गायलां म्हज्या पुर्वजान म्हाका तेंच गीत गावंक दियात, धर्तरिच्या पांचव्या रंगान आयज म्हाका न्हांवंक दियात' - अशें म्हणपी हो कवी कोंकणी साहित्यांत पर्जळटलो हें आतांच बरोवन दवरतां.

तिसऱ्या पावंड्याचेर व्हेनिश फेर्नांडीस हाची 'गोबोर' ही कविता आयल्या. आयज क्रोधाच्या, धर्माच्या आनी सुवार्थाच्या होमखणांत मनीसपणाचो ल्हासून गोबोर जाला अशें हो कवी खंतीन सांगता. इतलीं वर्सां साबार संवसाराक हो राक्षसी वृत्तीचो उजो लागलेलो. तो गोंयांत पावला हाचीय सुलूस कवी दिता. हेमा केरकार हाची 'मनीसपण' ही कविताय ह्याच विशयाची. तनिका रावत देसाय हांची 'मोग' ही कविता मात खऱ्यानीच भाव खावन वता. मोगा सारख्या विशयाचो संदर्भ घेवन ज्या तरेन ही कविता रचल्या ती पळयल्यार माथ्यावयलें चेंपें काडून मान बागोवची शी दिसता. वाचप्यांनी ती मुजरत वाचची.

निबंदाच्या विभागांत 'राष्ट्रीय सुरक्षाःएक प्रस्नचिन्ह' - पद्मा सांगांवकार, 'गोंयची तरणी पिराय' - मारिटा आर्विटो, 'बंक' - चिन्मय बोरकार, 'तरनाटोःकाल आनी आयज' - बबिता सावंत, 'गोंमटें गोंय काय क्रॉन्क्रिटाचें जंगल' - डॅनिस वाझ ह्या बरोवप्यांचे निबंद आस्पावल्यात.

गोंय, गोंयची भूंय, गोंयचीभास. गोंयचो भौस, गोंयची तरनी पिळगी, गोंयचो फुडार धरून राष्ट्रीय सुरक्षेची समस्या अशा साबार विशयांचेर आयचे नवोदीत चितूंक लागल्यात ही एक सामादानाची गजाल.

राष्ट्रीय सुरक्षेविशी बरोवपी पद्मा सांगांवकाराची खऱ्यानीच तोखणाय

करूंक फाव, कारण तांणी त्या विशयाक योग्य न्याय दिला. राजकीय आनी सामाजीक परिस्थितीची तिका सखोल जाणीव आसा. बंक या विशयाचेर चिन्मयान मिश्कील भाश्य केलां. ताची शैली तांणी जपची. कारण ताच्या शैलींत एक नवेंपण आसा, एक वेगळेंपण आसा. चिन्मयान अ.ना.म्हांबरो आनी लक्ष्मीनारायण परजाचें साहित्य वाचचें ताका वाट मेळटली.

युवांकुरांतल्यान बरपांतली नण्णी काडपाचो प्रामाणीक यत्न हांवें केलां... लेखकांनी आनी वाचप्यांनी म्हजी भुमिका समजून घेवंची ही इत्सा.

**'सोय बरी वाटचे पयलीं**
**रास पिळून काडचो न्हय.**
**उतर मनांत शिजचे पयलीं**
**गीत पानार बाडचें न्हय'.**

-अशें कविवर्य सर्गेस्त डॉ. मनोहरराय सरदेसायान म्हळां. ह्या विचारांचो दिश्टावो घेवन आमचे हे नवे बरोवपी मुखार सरले जाल्यार कोंकणी साहित्याच्या मळार निर्शेवणी केन्नाच येवंची ना. विंगड - विंगड संस्थांच्यो लेखन, वाचन सर्ती, कार्यशाळा, शिबिरां, संमेलनां आनी हेर साहित्यीक उपक्रम ह्या तरन्या प्रतिभेखातीर सदांच तत्पर आसात... गरज आसा ती दर एकल्यान आपल्या प्रतिभेक वळखुपाची... तिका फुलोवपाची ... फळोवपाची....

हो युवांकुराचो आठवो अंक. ह्या आठूय अंकांतल्या सगळया नव-प्रतिभावंतानी परत एक फावट आपली लेखणी हातांत घेवंची आनी कोंकणी साहित्याची घुडी संवसारार उबोवंची हीच नमळायेची प्रार्थना.

**हनुमंत चोपडेकार**
कार्याध्यक्ष
आठवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन
फोंडें - गोंय.

# चंदनाचो रुख

**- मनिषा ना. राऊळ**

सुकडो पेज जेवन पडवेर येवन बसलो. पावस मळबाक बुराक पडिल्ल्याबशेन पडट्टालो. दोन दीस जाले शेगीत थामनासताना पावस पडत आसा. शिरवण लागलो पूण पावस मिर्गावयलो वततालो. देगेचो व्हाळ न्हंय जाला. शेवतें भीतर बडबडत आशिल्लें. नागेशाच्या तळयेची सोपणां धीपरभर बुडल्या म्हणोन रातीच जगा सांगतालो. आयज सकाळ म्हणल्यार उदक सामकेंच वयर सरलां आसतलें उडयार वचपाक मेळचीना, सुकडो मनांतल्या मनांत उलयलो.

सुकड्यान अदमास केलो. स वरां जातलीं. पावसाकलागोन काळखेंच आशिल्लें आजुनी. आयज राजासायब बेळगांवां वयता. सुकड्याक बेगीनच सरकरां वचपा जाय आशिल्लें.

''आगो कांबळ हाड.'' सुकड्यान शेवत्याक सांगलें. शेवत्यान चुलीकडेन सुकत घातिल्ली कांबळ हाडली. ''आतां फातोडेर घोग्यापावसार खंय भायर सरता?'' ''राजा सायब बेळगांव वयता न्हू, म्हाका बेगीनच सरकरां पावपा जाय.''

''राजा सायबाक आतांच पावसाचेर कित्याक वचपा जाय?'' दोन दिसांनी गेल्यार जायना?''

''ना. राजा सायब ज्या इस्पिटलांत तपासपा वयता त्या इस्पिटलांतलो व्हडलो दोतोर दोन दिसांनी खंय अमेरिकेक वचपा आसा.

''हय पूण गोयां प्रेसांवा दोतोर ना तर?''

शेवत्यालें प्रस्न केन्नाच सोपचेना. सुकड्यान कांबळ माथ्यार वडयली. पडवेचीं सोपणां देंवपाक ताका आखाड्यांतल्यान जगा धांवत येता तो दिसलो. ''बाप्पो बाप्पो घात जालो.'' जगा आंगणांतल्यानच आड्डुलो. सुकड्यान कांचेवन इचारल्लें ''आरे पापया किदें जाले.''

''बाप्पो चंदनाचो रुख रातयां कोणेन तरी चोरुन व्हेलो.''

''किदें''? सुकड्यान अजापान भयांत म्हणता तशें विचारलें.

''हय बाप्पो फातोडेर हांव म्हशी सोदपाक म्हुणोन मळार वयतालो. पळय जाल्यार सगळ्याक रस्त्यार पानां आनी बारीक बारीक खानयो शिवरल्यात. म्हाका पयलीं दिसलें पावसा नेटार खंयचो तरी रुख मोडोन पडलां अशें म्हूण हांव वट्टां गेलो, पळय जाल्यार चंदनाचो रुख कोणेन तरी मुळांसाकून कापून व्हेला. म्हाका कच्च जालें. वट्टां येदी व्हडली चोरी जाली आनी आमकां गांवांतल्या लोकांक कांयच खबर ना. बाप्पो आतां किदें रे फुडें?'' अशें म्हणत जगान थंयच थपकल मारली. सुकडो आयकतच उरलो. तेगेली तकली भेरेल्ल्याबशेन जाली. शेवतूय थंडगार जालें.

''देवा नागेशा, हें किदें अरिश्ट घडलें?'' अशें म्हुणोन सुकड्यान कपलार हात मारुन थंयच बसकण मारली. सगळ्यांचेर मोनेळ पडलो. कोणाकूच किदें उलोंवचें म्हुणोन कळना जालें.

इतल्या वर्सांचो चंदनाचो रुख राजासायबान आपल्या घरांतल्या एखाद्या मनशाबशेनच सांबाळिल्लो. कोणाकच त्या रुखाच्या सालीक न्ही तर पानाक सुद्दा हात लावंक सक्त मनाय आशिल्ली. तो रुख म्हणल्यार राजघराण्यांतलें एक राजचिन्न कशें. तो चंदनाचो रुखय वट्टां मदंगा सोबीत धोलतालो. भोंवतणचो पार पळोन तर रुख एखाद्या म्हाराजाबशेन नेटान राजसिंवासनाचेर बसला कसो दिसतालो. त्या रुखाची एक काणीय आसा आनी ती काणी गांवांतल्या सगळ्या लोकांक खबर आसा.

राजासायबाच्या आज्यान मैसूरची लढाय जिखतगीर थंयचें जैत म्हुणोन थंयच्या चंदनाचे दोन रोपे हाडिल्ले. सारके सामकारा वट्टांन ते लायिल्ले. सगळ्यांक ते येतना वयतना दिसचे म्हुणोन. पूण एक रोपो रोखडोच मेलो. पूण दुसऱ्यान मात जीव धरलो. तो व्हडलो रुख जालो. राजासायब तर आपल्या आज्याच्या जैताची निशाणी म्हुणोन त्या रुखाक खूप मान दिताले. सकाळी कुळदेव आनी नागेशाचें दर्शन घेतगीर राजासायब ह्या चंदनाच्या रुखाचें दर्शन घेताले. आनी आपल्या वाडवडीलांच्या बहादुरीक मान दिताले. कोणूय अनवळखी सोयरो येत

जाल्यार ते तेंका मुद्दाम चंदनाचो रुख दाखयताले आनी आपल्या आज्याची व्हडवीक गायताले. पाखले आशिल्ले तेन्ना पाखल्याल्या व्हडल्या सायबान 'किस्तोदीन' तो रुख राजा सायबाकडे मागलो आनी तेच्या बदला जाय तितले पैशे आनी जमीन दिता म्हुणोन मान्य केलें. तेका त्या चंदनाच्या लाकडाची आरमार करुन पोर्तुगालच्या राजाक भेटोवपाची आशिल्ली. पूण राजासायबान तो रुख दिलो ना. किस्तोदीन राजासायबाक धमकायलो सुद्धा! पूण राजासायब बदलेना. दिलो ना तो दिलो नाच तो रुख! त्या परक्याक किस्तोदीक राजघराण्यांतलें येदें व्हडलें दायज दिवप? तें शक्यूच ना.

आनी तोच रुख आयज कोणेतरी दळदिऱ्यान चोरुन व्हेलो. केदो व्हडलो आकांत हो. सुकडो चिंतीत उरलो. तेका सट्ट करुन याद जाली. ''आरे जगा, सरकारां कळ्ळें रे रुख चोरला तें?''.

जगाय सावचीत जालो मात्सो.''ना बप्पो वट्टाकडेन कोणूच ना. हांवेंनूच पयलीं पळेलो आनी बद्द तुका सांगपाक येयलो. सरकारांतली गेट उघडूं नाशिल्ली. बाप्पो सरकारांवचोन तुकाच ही गजाल राजासायबाक सांगची पडटली.''

''ना जगा तें म्हाज्यान जावंचेंना''

''मागीर कोण सांगतालो तर? तूं सरकरांतलो मुखेली.'' शेवतून मर्दीच म्हणलें. सुकडो काचाबूल जालो. तेका किदें करचें तें कळना जालें. तो तसोच भायर सरलो. मळावयल्यान गेट उघडून वट्टा गेलो. पळय जाल्यार रुखाचो पार बोडको जावन आसा. पानां शिवरल्यात एक पांचवेंच जाजम देवळांत पालखेपोंदा घातलां जावयें तशें पाराभोंवतणी दिसतालें. पालखी सजयल्या पूण देवाक बसोवना म्हणतगीर पालखी दिसता तशें वट्ट दिसतालें.

सुकडो सकल देंवोन राजवाड्याच्या फुडल्या दाराकडेन गेलो. रामचंद्रान तेन्नाच दार उघडिल्लें.

''रामचेन, राजासायब उठले?'' सुकड्यान विचारलें

''हय बाप्पो, राजासायब आज बेळगांवां वचपाचे न्हू. देवळांत वचपाची तयारी करतात. पूण पावस घोग्यांनी वतता न्ही म्हूण पावसा दडक वयतगीर देवळांत वयतले,'' रामचंद्रान सांगलें.''

सुकड्यान कांबळ थंयच बल्कांवाचेर दवरली. पांय पुसून तो राजासायबाल्या दालनांत वचपाक गेलो. एक एक पावल उखलता तशें तशें तेंगेलें काळीज मोठ्यान धडधडूंक लागलें. दालनाच्या दाराकडेन पावता म्हणल्यार सुकडो सामको थरथरपाक लागलो. तेंगेले पाय झेडपोडपाक लागिले. तो दाराकडेन उबो रावलो. तेणें पळेलें. राजासायब शांतपणान देवळांत वचपाची तयारी करतात.

''राजासायब'' सुकड्याल्या तोंडांतल्यान कशीतरी उतरां भायर पडलीं.

''यो यो सुकड्या ''राजासायबान सुकड्याकडे पळयलें. ''आयज आमी बेळगांवां वचपाचें थारायिल्लें. पूण आमी आतां वचनात. तशी गरजय ना. आमची भलायकी एकदम बरी आसा. आमकां कांयच जावंना. आमची भलायकी फ्रांक आशिल्ली जाल्यार मध्यानराती जी गजाल घडल्या ती पळोन आमकां किदेंय वयरसखल जावपाचें. पूण तशें कांयच जालेंना.

''म्हणल्यार राजासायब.....!!''

''हय!'' सुकड्याक उलोवंक दिना आसताना राजासायब उलयले, ''हय सुकड्या आमी जाणां राती कीदें घडला तें. आमच्या घराण्याचें दायज, आमच्या वाडवडलांचें बहादुरीचें निशाण राती कोणेन तरी कापून व्हेलें''.

''राजा सायब तुमी तेन्ना जागे आशिल्ले?''

''आरे आमचो जीव त्या रुखाभीतर गुंथला. त्या रुखाचेर कुराडीचो पयलो धपको पडताना आमची न्हींद खल्ली. आमच्या दायजेचेर आमी जिवंत आसताना कोणतरी धपक्यार धपके घालता आनी आमकां न्हीद खंयची?''

''मागीर तशेंजाल्यार राजासायब तुमी ओगी कित्याक रावले? रामचेन्नाक नाजाल्यार इश्वराक तुमी उलो करपा न्ही?''

''ना सुकड्या'' राजासायब उठून वट्टाकडल्या जनेलाकडेन वचोन उबे रावले. ''सुकड्या आमी आमच्या प्रजेचो सांबाळ करूंक असमर्थ थारले. कोणेंतरी तो रुख आपल्या पोटाकलागूनच कापला. आमची प्रजा सुखी ना आनी आमीच हेका जापसालदार आसात. तेकालागून आमी तो कापून व्हरपाक दिलो. तें आमचें दायज खरें पूण त्या रुखाक लागोन कोणाचें तरी पोट भरतलें. पूण एक

मात, आमचें दायज अशें आमच्या दोळ्यांमुखार चोरुन व्हेलें. आनी आमकां हरयले. हरले आमी... आनी हरतल्याच्या जगपाक अर्थ नासता. आमच्याय जिणेक अर्थ ना. आतां आमकां कसलीच उमेद ना.'' उलयतां उलयतां उतरां कणकणी राजासायबाचो आवाज जड जड जायत गेलो.

आनी सुकडो जमनीर बसोन हुंडक्या हुंडक्यानी रडूंक लागलो... थांबनासतना.... भायर पडटल्या पावसाबशेन.

**- पयलें इनाम मेळिल्ली कथा**

# नातें

- कृपाली नायक

आयज सकाळ सावन कावळो घरार येवन रडत आशिल्लो पळोवन रमाबायच्या मनांत रवी येत काय दिसलें. तिणें बेगीन बेगीन उठून च्याक दवरलें आनी घोवाक आवडटा म्हण तुपाचो शिरो करूंक लागली.

''वास बरो सुटला सकाळी च्याक मचमचीत शे दिसता'' भितर येत आबान विचारल्लें.

''हय व्हय बेगीन च्या घेयात आनी देवळांत वचून येयात, आयज आमची पुजा न्हय.''

''हय हांव न्हांवन भायर सरता''

''म्हळयार आयज घरांतले देव उपाशी तर! नागो?''

इतलें म्हणसर रमाबायन च्या आनी शिरो ताचे मुखार दवरलो. तो खावन तो न्हांवपाक गेलो. तिणें भायर पोरसांत वचून फुलां हाडलीं आनी गंध झरोवंक लागली. तो येवन ताणें देवाक पुसपाक सुरवात केली. इतल्यान ताच्या हातांतल्यान गणपतीचो फोटो पडलो.

''हे आनी कितें बाय अबड शें!''

''आगे जाण्टेपणांत हात थरथरतात. हातांतल्यान चूकुन पडला तो''.

हाली जाण्टेपण आयिल्ल्यान आबाचे हात थरथरताले. ताका खरसय येताली. रवीच्या अश्या वागपान तर तो पुराय खचिल्लो. एक म्हयनो जाल्लो रवीन फोनय करूंक नाशिल्लो आनी ताचें पत्रय नाशिल्लें.

''हें पळयात, ही फुलां, गंध, तेल, वाती, कापूर, पांचखाद्य, मोडचे पयशे, नाल्ल, आनी कितें उल्लां?

''ना ना! बरें हांव वचून येता.''

घुंवन घुंवन रमाक रवीची याद येताली. कितें म्हण जिण ! भुरगी ल्हान आसतना भुरग्याचें सगळें करप आनी आतां तीं व्हड जातकच तांणी भुर्र करून उडून वचप... ह्या पिकिल्ल्या पानांक आतां एकामेकांचोच आदार आशिल्लो.

दादाक रवीक कितेंय म्हणिल्लें आवड नाशिल्लें आनी ताचेर उलयिल्लेंय आवडा नाशिल्लें पूण रमाबायचो घुस्मटमार जातालो. कोणाकडेन ती उलोवंकय शकनाशिल्ली. लग्न जावन ती घरा आयली तेन्ना घरांत दोन लग्नाच्यो नण्डो आशिल्यो. तांची लग्नां जाता म्हळ्यार रवीचो जल्म जालो. घराक घरपण आयलें. तिच्या रक्तामासान घडिल्लो एक नाजूक केळो. तें भुरगें हात पाय हालयतालें, मुठी आवुळटालें. सदांच आवयक प्रस्न विचारप आनी आवयन मोठ्या अभिमानान जापो दिवप. ती चिंततालीं. म्हाका कशे अशे प्रस्न सुचलेच नात आनी काय प्रस्नाक जापो तर तिकाय कळनाशिल्यो. आपलो रवी हेर भुरग्या परस वेगळो कोण तरी जातलो ताची ही वृत्ती आपणें जपपाक जाय. अशें ती चिंतताली.

''ए रमा''

'' हं...! तुमी केन्ना आयले?''

''मुखार आबाक पळोवन तिणें विचारलें''.

''खंय पाविल्लें! हांव केऽऽऽना आयिल्लो... पूण तूं कितें चिंततालें?

''अशेंच कितें तरी...''

''रवी बद्दल''

''हय कितले दीस जाले ताणें फोनच करूंक ना.''

''आगे आमी बिल खंय भल्ला! ताणें फोन करूंक...! तुजो पुत दोतोर. ताका वेळ खंय मेळटा!''

दारांत उबी रावन ती पयस खंय तरी पळयताली. आयज तिका चडच दिसतालें. रवीन येंवचें. एकदम सर्प्रायज कशें. आनी आमकां सुखांत बुडोवंचें ती आतां जिणेच्या उतार वयांत एकदम थकून गेल्ली.

इतक्यान दारांत पोस्टमन पत्र घेवन आयलो.

''ताई तुमचें पत्र''.

पत्र घेवन ती बेगीन बेगीन भितर गेली आनी पत्र आबाक दिलें. पत्र त्या दोगांकय बरयल्लें.

'मोगाळ आई बाबाक, नमस्कार,

पत्र बरयलां तें हे खातीर. तुमचे सुनेक रेश्माक दीस गेल्यात. सातवो

म्हयनो चलता. तुमी बेगीनात बेगीन मुंबय येयात. तुमची वाट पळयता.

तुमचो रवी,

आबान पत्र वाचलें

''इतलेंच बरयला? ही कितें पत्र बरोवपाची रीत जाली?''

''आगे दोगूय दोतोर. मुंबय हॉस्पिटलांत तांकां सदांच पेशंट. वेळ कसो आसतलो?''

रमाच्या हातान पत्र दिवन तो भितर गेलो.

रानचे कुडींतले काम जावन ती भायर आयली. तेलाची बाटली घेवन ती आबाल्या पायाकडेन बसली. आनी तेल चोळूंक लागली.

घरांतलें मांजर आबाकडेन येवन बशिल्लें. ताका आबान म्हन्यांत घेतलें.

रवीची बायल गुरवार आसा. काय म्हयन्याभितर हांव आजो जातलो रवी आमचे म्हन्यांत आशिल्लो जाल्यार ताचीं भुरगीं आमचे बरोबर खेळपाचीं? रमाबायच्या दोळयांतल्यान आयिल्लीं दुकां तिच्यान आडावंक जायना जालीं.

''आगो! रडटा?''

आबा उठून बसलो रमा गेलीं तीस वर्सां एकठांय आसात पूण केन्ना मेकळेपणान उलोवंक मेळेंना. कितलें सुंदर गायतालें गो तूं. पूण हांवें केन्ना मायेन विचारूंकय ना तुका. रमा एक विचारूं? खरें खरें सांगतलें?''

आबान भुरग्यावरी विचारलें. ती थक्क जावन तांका पळयताली. आबान तिच्या खांदार हात दवरलो.

''एक सांग गेल्या तीस वर्सांत तूं म्हजे बरोबर खुश आशिल्लें?''

''कसलो हो प्रस्न?''

''खरें सांग तूं सुखी आशिल्लें?''

''खरेंच हांव सुखी आशिल्लें''

''रीण काडपांत आनी भरपाक म्हजी जिण गेली.

पूण तें सगळें आपल्या घराच्या सुखाखातीरच आशिल्लें न्हय.''

''पूण, हांसत हांसत मुखार वचप खूब कोडू आसता रमा, म्हाका माफ कर.''

अशें कितें उलयतात? संवसार आमचे दोगांचो आशिल्लो आनी हांव सदांच सुखी. तुमचें व्हड मन, रवी हें सगळेंच म्हजें सुख.

'तूं थांबलें कित्याक? उलय''

''त्या वेळार त्रास काडचे पडले पूण घर भरील्लें आशिल्लें'' नव्या नात्याचो मेळ आशिल्लो. दीस भुर्रकन उडून गेले''.

''रमा लग्ना उपरांत तूं म्हाका जितलें लागीचें दिसले ताच्या परस चड आयज दिसलें''.

''हांव तुमचेंच. पूण, रवी मुंबय वचत सावन घर सामकें रिकामें जालां न्हय.''

ताणें दीर्घ स्वास सोडलो.

''मागीर मुंबय वचपाचें न्हय''.

''रमा,,''....

''अशें कितें....?''

''न्हीद पळोवया. उरील्लें फाल्या उलोवंचें''

रातभर आबाक न्हीद लागचीना. आयज मेरेन रमान आपलेकडेन कांयच मागूं ना. आतां ताजी इत्सा मोडप ना. सकाळींफुडे भायर सरत आबान म्हळें

''रमा हांव मात्सो भायर सरतां''

''इतले सकाळी शे?''

''तुका कसो फटोव? मुंबय वचपाचें म्हळ्यार पयशे जायच न्हय''.

''कितें!''

''हय, आमी मुंबय वतात. जाय जाल्यार कायमचीं, म्हण वता दादाकडेन धा हजार मेळटात काय पळोवंक.

''धा हजार कित्याक ते?

''रमा गेल्या धा वर्सांत आमी नवीन कपडे घेतले ना. आनी नातवाकय कितें तरी घेवंक नाका? आमी जाण्ट्यांनी सुनेकय कितें तरी दिवंक जाय परत येतकच दिवंया पयशे दादाचे.''

''पूण इतले....''

''रवी दितलो मागीर. बरें येता हांव''

मुखार आठ दीस कशे गेले. तांका दोगांकूय कांयच कळ्ळेच ना. सगळें सामान बांद. हें घे, तें घे, लोणचें पापड...

''रमा फाल्या वतात आमी सकाळीं सची गाडी''

''म्हळ्यार सांज मेरेन पावतात तर आमी. रवीक घेवंक येवंक सांगपाचें न्हय तुमी.

''आगो आमीच या. दार वाजलें कोण पळय''

''पोस्टमन. पत्र आयलां''

''कोणाचे''

रमान पत्र आबाक दिलें. तिच्या मनांत पाल चुकचुकली. आबान पत्र फोडलें.

''रवीचें''

''मोगाळ आई बाबाक, नमस्कार,

बाबा सांगपाक खोस भोगता आमी अमेरीकेक वतात रेश्माचे बाळंतपण थंयच करतलीं.

तुमचो रवी.

''आतां आमकां मुंबय वचपाची गरज ना रमा .... रमा, रवी बायलेक घेवन अमेरीकेंत वता खंय.

रवी...! म्हजो रवी. संवेदनशील मनशाची कदर करपी रवी. आपल्या ताटांतलें दुसऱ्याक दिवपी रवी...

रमाच्या दोळ्यामुखार दोनुय पत्रां नाचता... आठ दिसांक सगळें बदलिल्लें ... तीं कर्जाविणारी जाल्लीं. धा हजार रुपयांच्या लख्ख उजवाडांत तिचो सुर्य अस्ताक गेल्लो. दोळ्यामुखार काळोख जाल्लो. सगळें सोपिल्लें. मायाच परकी जाल्ली. आबाक कोसळटाना पळोवन तिणें किळाच मारली - कोण तरी धांवात रे....

**- दुसरें इनाम मेळिल्ली कथा**

# जीण अस्तुरेची

- विदिता शेट

त्या दिसा फोनाची रिंग वाजता ती कानार पडली आनी मम्मी फोन उबारपाक गेली. हो फोन गोंयच्या भायल्यान आयला म्हणपाचें आमकां पयलींच फोनाची रिंग टोनावयल्यानच कळिल्लें. आमी सगळीं जाणा मम्मी कितें उलयता ते आयकुपाक थंय उबी रावलीं.

"कितें! सुधाचें लग्न थारलें? जावं बरें जालें बाबा हें. आतां तुमी जाता तितले बेगीन ताच्या लग्नाची तयारी करा". मम्मीच्या तोंडार खोश्शेचें ल्हार पातळलां तें पळोवन आमी तिका घेरो घालो.

"कितें मम्मी? कितें जालें गे? सुधामावशेंचें लग्न थारलें गे? कोणावांगडा गे? खंयचो गे तो?" कितें करता गे तो? एक ना दोन कितलेशेच प्रस्न आमी त्या दिसा मम्मी मुखार पातळिल्लें. खरेंच कितली खूश आशिल्लीं आमी त्या दिसा.

सुधा म्हजें मम्मीची मामेभयण. गोऱ्या कातीचें लांब काळयाच केंसाचें, आंगान बारीक, दिसपाक तें एके सुंदर राजकन्येवरी दिसतालें. सगळ्यान ल्हान आसल्या कारणान ताजी खूब अपुर्बाय जाताली. तें एक कॉम्प्युटर टिचर आशिल्लें. ताच्या बापायन आपूण मरचे पयलींच आपल्या चारूय पुतांक आनी दोन धुवांखातीर सगळें करून दवरिल्लें.

सुधाकडेन रूपावांगडां शिक्षण लेगीत आशिल्लें. पूण बाबड्याच्या पत्रिकेंत मंगळ आसल्या कारणान ताची सोयरीक कशीच जुळनासली. आयच्या ह्या विज्ञानाच्या काळांत लेगीत मनीस पत्रिकेचेर विश्वास दवरून जियेता म्हूण अजाप दिसता. पूण हाका काय उपाय ना. दुसऱ्याक समजावप म्हळयार व्हड परिश्रमाचें काम. ह्या देवाक त्या देवाक नवस घाले आनी उपरांतच हें लग्न जुळून आयलें. म्हजी परिक्षा आशिल्ल्या कारणान हांव लग्नाक पावलेंना. पूण मम्मी सांगताली, तें लग्नां दिसा बावलेभशेन दिसतालें. "शुभ मंगल सावधान"

म्हटलें आनी सगळ्यांनी ताचेर अक्षता मारून ताका आशिर्वाद दिलो. वर्सान ताका कन्या लाभ जालो. ताचें नांव स्फुर्ती दवरलें. तें जेन्ना दोन वर्सांचें जालें तेन्ना सुधान ताका सगळें शिकयलें. सुधान आनी ताज्या घोवान ताका बरें संस्कार दिले. केन्नाय कोण व्हड मनीस घरांत आयलो जाल्यार ताका तें पाया पडटालें सगळ्यांक ताचें कौतुक दिसतालें आनी ताची तोखणाय करीनासतना कोण रावनासलो. तांचो संवसार सुखान भरिल्लो.

एक दीस सुधाक बरें दिसना जालें. परत परत ओकूंक येवपाक लागलें 'देवा हांव दुसरे फावट गुरवार ना मू?

पूण म्हजें स्फुर्ती? तें आजून तीन वर्साचें लेगीत जावंक ना. तें दोतोरागेर गेलें. ताचो दुबाव खरोच आसलो. ताका दीस गेल्ले. तें घरा आयलें आनी ताणें आपल्या घोवाक ही खबर दिली. ताचो घोव खूश जालो. तशें सुधा लेगीत खूश आशिल्लें पूण हें सगळें चडूच बेगीन जालें अशें ताका दिसूंक लागलें, आनी ताणें आपल्या घोवाक आपल्या मनांतलें सांगून उडयलेंच.

''अरूण तुमकां दिसना स्फुर्ती आजून खूब ल्हान आसा आनी आमी आमचें सगळें लक्ष ताचेरूच दवरूंक जाय.''

अरूण - ''सुधा तू कितें म्हणपाक सोदता तें म्हाका कळूंक ना.''

''अरुण हें पळयात. हें दुसरें भुरगें जाल्यार ताकाच सांबाळपा फाटल्यान स्फुर्तीचेर सारकें लक्ष दिवपाक जमचें ना.

''ना गो सुधा हांव आसताना तूं कित्याक नाका जाल्लें चित्ता. वयल्यान स्फुर्तीकूय खेळपाक भाव ना जाल्यार भयण जायच. घोवान ताका समजोवपाचो यत्न केलो.

थोड्या दिसांनी सुधान एका चलयेक जल्म दिलो. स्फुर्तीक आतां भयण गावली. तांगेर परत चली जालें म्हूण तांकां वायट दिसूंक ना. तांच्यानी पयलींच चित्तिल्लें चलो जावं वा चली घरांत दोन भुरगीं आसुंकूच जाय.

सगळें बरेभाशेन चलिल्लें की एक म्हयन्या उपरांत सुधाच्या घोवाक म्हळ्यार अरुणाक बरें दिसना जालें. दोतोराक पयलींच दाखयल्लें बरें म्हूण तो दोतोराक मेळ्ळो. उपरांत ताका कळ्ळें की आपणाक 'लंग्स केंसर' जाला म्हूण.

ही खबर जेन्ना सुधाक कळ्ळी तेन्ना ताच्या फुडे काळोख पातळ्ळो. ताणें रडून आपलो जीव अर्दो केलो. घोवान ताका आपल्या कुशीक बसयलें आनी समजायलें.

"सुधा, अशें रडू नाका गो. म्हज्या बायलेच्या दोळ्यांत दुकां आयिल्लीं म्हाका केन्नाच आवडचें ना. आगो रडप म्हळ्यार हार मानप आनी म्हाका तूं हारिल्लें नाका. देवाच्या कृपेन आमचेकडेन सगळें आसा सोडून म्हजें आयुश्य. पूण तुमच्या सुखामुखार म्हजें आयुश्य कांयच न्हय.

"अशें म्हणू नाका अरूण तूं आसा जाल्यार आमी आसा. तुज्या फाटल्यान आमचें कितें जातलें? "सुधा म्हजेफाटल्यान तुवेंच ह्या भुरग्यांची आवय - बापूय जावंक जाय. तांका केन्नाच आपल्याक बापूय ना अशें दिसूंक फावना. तुंच तांका बापायची माया दी. आनी हांव गेल्या उपरांत तुमी दुसऱ्याच्या दारांत रावपाची न्हय. आमचें दोन फ्लॅट आसा. आपल्याच घरांत तुमी रावात. म्हजे कांय पयशे बँकेंन आसा ते तूं घे आनी आमच्या भुरग्यांक व्हड कर. हीं उतरां आयकतना सुधाचें काळीज रडटालें. तें रडटा रडटा देवाऱ्याकडेन वचून बसता आनी देवाक म्हणटा.

"देवा म्हजेकडेन कितें चूकलें रे? पयली लग्न जमनासलें म्हूण त्रास आनी आतां थोड्याच दिसांनी विधवा... देवा अरुणाऱ्या वाट्यांचें मरण म्हाका दी रे देवा. शेवटी हांवे तांचेवांगडा सात फेरे माल्या आनी पांचव्या फेऱ्यांत जेन्ना व्हंकल फुडे सरता तेन्ना ती देवालागीं मागता की घोवा पयलीं आपल्याक मरण दी. देवा, हें तर सात जल्माचें नातें मागीर एक जल्म सुध्दा सारको कित्याक ना?"

सुधान हार मानली ना. आपल्या घोवाक वाटोवपाचो एकूय प्रयत्न ताणें सोडलो ना. पूण सावित्रीभशेन तें आपल्या घोवाचो प्राण यमाकडल्यान परत घेवंक शकलेना. सुदाचें कपळ धवें जालें. दुख्खाचो पावस ताचेर पडलो. पूण ताज्या घोवाची उतरां ताका परत परत याद जावपाक लागली. 'सुधा हांव गेल्या उपरांत तुमी दुसऱ्याच्या दारांत रावपाचीं न्हय'. सुधाचें मुखामळ वेगळयाच निश्चेवान दिसलें. आपूण आपल्या घोवाची इत्सा पुरी करतलेंच. असो ताणें मनांत निर्णय केलो. ताचो भाव ताका व्हरपाक आयलो पूण तें गेलें ना. व्हडली

जाव लेगीत व्हरपाक आयली पूण तें कशेंच थंयचें हाल्लें ना. तें आपल्या दोगाय भुरग्यांक आनी जाण्टे सासुमायक घेवन थंयच रावलें.

एक दीस तर मुंबयंत बुट्टी आयली तेन्ना तळमजल्यार आसल्या कारणांत ताच्या फ्लॅटांत उदक आयलें. पूण ताणें ह्या संकश्टाक धिरान तोंड दिलें. तें आपलें घर सोडून दुसऱ्याच्या घरांत कशेंच गेलें ना. आयज आपल्या नशीबान दुख्ख जरी आसलें तरी केन्ना तरी आपल्या जिणेंत सुखाची किरणां येतलींच म्हुण तें वाट पळेत रावता.

**- तिसरें इनाम मेळिल्ली कथा**

# त्याग

- दर्शन कामत

उटंगराचो पावस पडटालो. सुधाकडेन सत्री नाशिल्ल्यान तें चिप्प भिजिल्लें. तशेंच तें बस स्टॉपार येवन आपले ओले जाल्ले केस सुकोवपाचो यत्न करतालें. इतल्यान ताची नदर सामकार आशिल्ल्या बस स्टॉपाकडेन उबो राविल्ल्या मनशाकडेन गेली.

गौरव! हय गौरवूच तो. काळान ताका खूब बदल्ला. पूण ताचो तो हांसतो चेरो मात तसोच आसलो. ताका पळयता-पळयता सुधा फाटल्या यादिनी घुस्पून गेलें.

तांच्या ल्हानपणाचे दीस ते. खूब म्होवाळ. खूब सुखाचे. ल्हानपणापासून तीं अेकामेकाचेर खूब मोग करतालीं. सुधा शिक्षणाखातीर गौरवाच्या घराकडल्यान कांय अंतरार रावपी मावशेगेर रावतालें. ताची आवय - बापूय दुसऱ्या गांवांत रावतालीं. सुधा गरीब घराण्याचें आशिल्ल्यान ताच्या आवय-बापायक चडश्यो वस्तू हाडूंक तांकनासल्यो. पावसादिसांनी तर बाबड्याकडेन सत्री वा कापोत केन्नाच नासताली. तेन्ना गौरवूच ताका आपल्या सांगातान आपल्या सत्रेंत शाळेंत व्हरतालो. नाय जाल्यार तीं वांगडाच हातांत हात घालून शाळेंत वतालीं. दोगांय एकाच वर्गांत एकाच बांकार बसतालीं गौरव शिकपाक हुशार. सुधा मातशें फाटीं. पूण गौरवा शिक्षणांतूय ताका सगळे तरेची मदत करतालो. चडान चड वेळ तीं एकामेकांच्या वांगडा सारतालीं. कितले सुखाचे, खुशालभरीत दीस आसले ते. वर्सां वतालीं. तशीं तांची सपनान भरिल्लीं मनां लागीं लागीं येतालीं.

अशींच वर्सां वचत रावलीं आनी तीं ल्हानाचीं व्हड जालीं. पूण हो तांचो मोग तांचे पुरतोच बरो आनी सुखदेणो आशिल्लो. जेन्ना तांच्या मोगाच्या संबंदाविशीं गौरवाच्या घरच्यांक कळ्ळें. तेन्ना सुधाली गरीब परिस्थिती तांच्या मोगा आड आयली. गौरवाच्या आवय-बापायक आपल्या पुताचें लग्न एका गिरेस्त घराण्याच्या चलयेकडेन करपाक जाय आसलें. सुधा गरीब घराण्याचें

आशिल्ल्यान तांणी गौरवाक सुधाकडल्यान पयस रावपाची शिटकावणी दिली.

गौरवाक मात सुधाल्या गरीबीचें मात लेगीत पडून वचोंक नाशिल्लें. तो पयशांचेर न्हय पूण सुधाचेर मोग करतालो. इतलो की तो आपल्या आवय - बापाय आड वचून लेगीत सुधाकडेन लग्न जावपाक तयार आसलो. पूण सुधा सुवार्थी नासलें. गौरवान आपल्या आवय-बापाय आड कसलेंच वायट पावल उखलचें न्हय अशें ताका मनापासून दिसतालें. ताका गौरव आवय - बापायच्या नदरेन वायट जाल्लो नाका आसलो. देखून ताणें आपल्या मोगाचो त्याग करपाचें येवजिलें. आवय-बापायच्या आनी समाजाच्या नदरेंतल्यान गौरवाचो दर्जो सदांच उंच उरचो म्हूण तें आपूण जावन ताचेकडल्यान पयस गेलें. बाबा बरो ना ह्या निमतान तें आपल्या गावांत गेल्लें तें परत आयलेंच ना. गौरवान ताका सोदपाचो खूब यत्न केलो. पूण तें ताका मेळ्ळेंच ना.

कांय वर्सांनी गौरवाचें लग्न ताच्या घरच्यानी एके गिरेस्त घराण्याच्या चलयेकडेन जुळोवन हाडलें. ही खबर सुधाकय कळ्ळी. पूण तें तशेंच वोगी रावलें. ताका सोयरीको येवन वताल्यो. पूण गौरवाची सुवात तें आनीक कोणाक दिवपाक पावलें ना.

आज २५ वर्सांनी ताका गौरव दिशिल्लो. हय! तोच गौरव जाचेर तें काळजांतल्यान मोग करतालें. ताचे दोळे भरुन आयले. धांवत वचून गौरवाच्या वेंगेंत रडचें कशें ताका दिसलें. पूण त्याच खिंणाक ताका, गौरव आज आनीक कोणाचो जाला हाची जाणविकाय जाली. गौरवाची नदर आपल्याचेर पडचे पयलीं तें येता ती बस खंयची ती पळय नासतना तांतूत चडलें. दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत बसीच्या फाटल्या हारशांतल्यान तो दिसता ते मेरेन तें ताका पळयत रावलें ...

- चवथें इनाम मेळिल्ली कथा

# साराची काणी

- अल्जिरा पेरेरा

सारान इश्कोलांतल्यान आपल्या भुरग्याक हाडलो. फॅन लायलो आनी तकली पोंदा घालून तें मेजार बसलें. खरें म्हळ्यार सारा आपल्या जिणेक लागून खूब थकिल्लें. आपल्या जिविताचे गेल्ले खीण आनी शेणिल्लें सुख येवजून तें रडटालें. इतल्यांत ताची इश्टीण सीमा घरांत भीतर सरलें. ताणें साराक पळयलें.

"आगो सारा कितें जालें? तूं अशें रडटा कित्याक?" सीमान विचारपूस केली.

"ना... ना... कांय... ना".

सारान बेगोबेग दुकां पुशीत म्हळें. सीमा हें साराचें शेजारी. दोगांय सामक्यो घट इश्टिणी. सीमाचो संवसार सारा परस खूप बरो आसलो. सगळें सुख ताका आसलें पूण ताका भुरगीं नासलीं. हाकालागुनूच जांवयें साराक ते चड बरेभाशेन वळखतालें.

सारा, एक गरीब आनी कश्टान जियेवपी शेतकाराचें चली आशिल्लें. गरीब आशिल्ल्यान तें चड शिकूंक पावलेंना. शिकपाक तें हुशार आशिल्लें म्हणूनच धावी जातकीर ताका एका शाळेंत शिक्षिकेचें काम मेळ्ळें. त्या तेंपार बसी नाशिल्ल्यान सात सात किलोमिटर पयस चलून भुरग्यांक शिकोवपाक तें वतालें.

दरेक आंकवार चलयेसारकें ताचेंय सपन आशिल्लें .... आपलोय एक अपुरबायेचो घराबो आसचो. दोन फुलांसारकीं आपलीं भुरगीं आसचीं. आपलो घोव बरो आनी समजिकायेचो आसचो अशें तें सदांच चित्तालें. वीस वर्सां चलतनाच सराचें लग्न जाल्लें. तसो ताचो घोवय शांत सभावाचो, कोणाचे वाटेक वचपी न्हय. गाडयेचो मॅकानीक म्हणून तो काम करतालो.

साराक ताणें येवजिल्लेभशेन दोन भुरगीं जालीं. व्हडलें चली आनी दुसरो चलो. ताका चलो जालो तेन्ना सारा खूप खोशी जालें. पूण एक दीस

ताच्या चल्याक जोर आयलो. तो बेशुध्द पडलो. ताचो चलो तेन्ना सुमार एक म्हयन्याचो आसलो. ताणें खूब दोतोर केले. ताचो चलो बरो वाचलो, पूण तो 'मतीमंद' जालो. कोणेंच चितूंक नासलें तशें जालें. अशेतरेन सुखी चलपी साराच्या जिविताक कोणाची तरी नदर लागली. त्या दिसासावन साराच्या दोळ्यांतलीं दुकां व्हांवत उरलीं.

आयज ते गजालीक वीस वर्सां जालीं.

"सारा खंय गो तूं, कितें जाला तें मात्शें सांगशी?"

सारा चिंतेस्त आशिल्लें पळोवन परत एक फावट सिमान विचारलें.

"हांव जाणा, तूं तुज्या चल्याचें चिंतून चिंतून रडटा"... सिमानूच जाप दिली.

"म्हाका तुजेसारकी इश्टीण मेळ्ळी हें देवाचे उपकारच म्हजेर.... नाजाल्यार चारूय वाटेन कांटेच कांटे. देवूय म्हज्याच फाटल्यान कित्याक लागला तें कळना" सारान दुखेस्त स्वरान म्हळें,.

"आगो तूं ह्या सगळ्याखातीर देवाक दोश दिनाका."

"देवाक दोश दिनाजाल्यार कितें करू? म्हज्याच वांट्याग ही असली जीण कित्याक?" साराक आनी रडपाचें सोंसपाक जालें ना.

ल्हानपणासावन साराक शिकपाची खूप उमेद, पूण गरीबीक लागून तें शक्य जालें ना. शिकून ताका आपल्याच गांवांत एक शाळा सुरू करपाचें आसली, तेंवूय जमलेंना. आवय बापूय सतत शेतांत उरिल्ल्यान तांचो मोग साराक मेळ्ळोना. ताचो बापूय ताका आपल्या नदरेमुखार घेनासलो कारण ताका आपल्या खांद्याक खांदो लावन वावुरपी असो चलो जाय आसलो. पूण सारान जल्म घेतलो, हे खातीर तो सदांच साराचेर बेजार आसतालो. सोरो पियेतकीर साराच्या वांट्याक फक्त मारूच आसतालो. त्यावेळार तें आपले आज्जेकडेन धांवतालें.

हें सगळें दुख ताणें ल्हानपणांत सोशिल्लें. लग्नाउपरांत जीण बदल्ली. पूण तें सुख खिणाचेंच आशिल्लें. चलो मतीमंद जातकीच ताचो घोवूय ताका सांगात दिना जालो. उपरांत ताच्या घरकारान केन्नाच धीर दिवपी उतरां उलयिल्लीं

साराक याद जायनात. केन्नाकेन्ना घराकडेन येवपाचेंय तो विसरतालो. हेवटेन सारा मात आपल्या घरकाराची वाट पळयत रात जागतालें.

मागीर भुरगो व्हड जाता-जाता साराचो घरकार कामाक म्हणून भायल्या गांवाक गेल्लो, तो परतो आयलोच ना. ताचेकडेन कसलोच आदार नाशिल्लो. हे खातीर ताणें शिवणसूत करपाचो विचार केलो. ताच्या आवय बापायन ताका लग्नांत कपडे शिंवपाचें मशीन दिल्लें. ताणें शिवणकाम सुरू केलें आनी कशेयभशेन घर चलोवपाक लागलें.

आतां कितलीशींच वर्सां जावन गेलीं हे गजालीक. सारा आपल्या शिंवपाच्या कामांत इतलें घुस्पल्लें की ताका आपल्या वाडलेल्या चलयेची लेगीत याद उरना.

सारा केन्नाय बाजारांत वता तेन्ना ताका, लोकांचे भुरगे आपल्या आवयांक घेवन भोंवताना दिसतात. आवयक आपले चले जाय तितले खुश दवरतात. हें पळोवन, साराचें काळीच कळवळून रडपाक लागता. खंयचेय आवयक दिसताच की आपलो चलो सुंदर, हुशार आनी घटमूट आसचो. दुसऱ्या आवयांचे पूत बरें जोडून गाडयांनी भोंवतात, सादीं घरां आशिल्ले बंगले बांदतात. आपापले कलेन नांव जोडटात.... पयसो जोडटात......

'पुता म्हाका हें हाड रे, म्हाका तें हाड रे, अशें सांगपाक साराक कोणूच नासलो. ताचें चली दीसभर कामानिमतान घरांतल्यान भायर आसतालें. लोक साराक धावेचो आनी बारावेचो निकाल लागतकीर पेढे दिवपाक येतना ताका दिसतालें 'म्हजोय चलो शाळेक वचून बरो शिकता आसलो. नंबर घेवन पास जाता आसलो, मागीर हांव सगळ्यांक पेडे वाट्टा आसलें.'

साराची भलायकी भितल्ल्यान इबाडत वताली, पूण तें आपल्या दोगूय भुरग्यांखातीर जियेतालें. इतल्या व्हडल्या चल्याची सगळी सेवा सारा करतालें. पूण केन्नाच वाजेनासलें. ताचो जलो जरी तर बरो आसलो जाल्यार सारा हेरांपरस गिरेस्त जावंक पावता आसलें. पूण देवाक हें नाका आसलें. ताचें मन दुखावतालें आनी तें सुकून बारीक किडकिडीत जाल्लें.

सारा आपल्या फांटल्या जिवीताचो नियाळ घेतालें. इतल्यांत सिमान

ताका परत उलो माल्लो.

“आगो, सारा तुज्या ह्या मेजाक वायटी लागल्या मगो.”

सारा भायर आयलें आनी म्हळें, “हांगा म्हज्या सगळ्या जिवीताकूच वायटी लागल्या ती कशी ना करूं? ”

“तें सगळें सोड, तुवें केन्नाय तुजे चलयेचो विचार केला? तें आतां लग्नाचें जालां. ताका कांय दिसांनी सोयरीको येवपाक लागतल्यो. तूं बाकीचीं सगळीं चितनां सोड आनी ताचें चीत”.

“हांव खूप यत्न करता गो .... पूण लोक कितें कितें उलयता तें आयकून म्हज्या मनाक खूप दुख्ख जाता”.

“कोणें कितें म्हळें गो तुका?” सिमान साराक विचारलें.”

“आयज, म्हज्या चल्याक शाळेंतल्यान हाडपाक वतना म्हाका वेळ जालो. कितलो वेळ बशीक रावल्यार बस आयलींच ना. मागीर म्हज्या पुताक शाळेंत एकटोच रावचो पडटलो म्हणून हांवें त्या वयल्या वाड्यावेल्या सुश्माताईच्या चल्याच्या गाडयेक हात दाखयलो, जाल्यार थंय उबी आशिल्ल्या बायलांच्या दोळयांक तें तोपलें. तांणी म्हळें ‘आपल्या पुताक बरो करून घेवपाक कांय जालोना, लोकांच्या पोरांचेर आतां नदर घालता.’ आगो हांवे ताचेखातीर थोडे दोतोर केल्यात? तुका खबर आसा मुगो? पळयलें ... कशे वागतात ते लोक? काल तें लक्ष्मी म्हणपाक लागलें ‘तुज्या पुताक म्हज्या भुरग्याबरोबर खेळपाक धाडनाका, म्हजीय भुरगी तुज्या चल्यासारखी जाल्यार ......’

सिमान ताका धिराची उतरां दितना म्हळे, “लोकांचे कामूच तें. कितें ना कितें उलोवपाचे. हांव तुका येदोळच्यान विचारता तुज्या चलयेच्या लग्नाबद्दल, तूं कांयच कित्याक उलयना गो?” सिमान कळवळून म्हळें.

हांवें म्हज्या भुरग्यांक, म्हाका ल्हानपणांत मेळळेना तें सगळें सुख दिवपाचो यत्न केलो पूण तांकांय तें फावलेना. आतां हांव भियेता की म्हज्या चलयेच्या जिवितांत म्हजे सारकेंच कितें घडलें जाल्यार?” सारान दुबाव उक्तायलो.

साराचें हें उतर आयकून सिमाक राग आयलो, ताणें म्हळें, “हें पळय सारा, तुज्या नशिबासारखें, सगळयांचें नशीब, आसतलें अशें ना न्ही.”

1107

तरी सारान म्हळे, ''सगळ्यांचे म्हाका लागना, पूण ती म्हजीच चली. म्हाका घडला तें ताका घडचेना हें कित्यावेल्यान?'' आनी ताका कोणाच्यो सोयरीगती येतल्यो? आमच्या ह्या घराची परिस्थिती पळयल्यार मुसाक पासून आमगेर येयन दिसना आसतलें.''

''म्हणूनच सांगता तुज्या पुताक तूं बंद शाळेंत घाल आनी तूं सुध्दा एक बरें काम सोद.'' सिमान म्हळें.

हें आयकतना साराच्या पायांखालची जमीन कोसळल्यावरी जालें. हाचेपयलीं केन्नाच ताणें आपल्या पुताक वेगळो दवरपाचें चितुंक नासलें. ''सिमा, म्हजोच पूत तो, कोण दुसरो न्हय, इतलीं वर्सां म्हज्याचकडेन आसलेल्या ह्या काळजाच्या कुडक्याक हांव कशें पयस करूं? हांव फक्त हांचेखातीर जगता. नाजाल्यार देव म्हाका केन्नाच व्हरपाचो. केन्नाच अशें उलयनाका. तुंच सांग, तुजो चलो असो आसल्यार तूं दवरतलें आसलें?''.

आयकून सिमाच्या दोळयांतलीं दुकां गालार देंवल्याबगर रावलीतात.''

''पूण तुका हो समाज कितें म्हणटलो, तें तरी चितलां तुवें? सिमान दोळे पुशीत म्हळें.

''समाज? कसल्या समाजाचें उलयतां गो तूं? घोवाक धांवडावपी, भुरग्यांक पिसावपी अशीं नांवा ह्या समाजान म्हाका दिल्यात. आतां आनी तांचें कितें उरलां. हो समाज, कोणाचेय वायट जाल्लें परत-परत वयर काडून. ह्या समाजाकूच आनी वायट करता. इतलें म्हाका कळून आयलां. तर हांचेमुखार जो धीटपणान उबो रावता तोच जगता.'' म्हजी चली येतकीर तूंच विचार ताका. हें पळय तें आयलेंच.''

साराची चली कामाक वता. सारा सारखेंच धिराचें चली तें. आवयसारकें काळजान घटमूट. ताका भीतर सरतनाच सीमान विचारलें, ''बाये, तुका तुज्या भावाक बंद शाळेंत दवरिल्लें कशें लागतलें?'' झुप्प करून ताणें उतर दिले.

''मावशे तुवें आयज अशें उलयलां, पूण हाचेफुडे केन्नाच असलीं उतरां तोंडान हाडीनाका. तूंच सांग, म्हज्या फक्त एक वर्स ल्हान तो पूण आमी दोगांयनी आमचें ल्हानपण वांगडा सारलां, वांगडा भोंवल्यात. एकमेकांक सोडून

1107

आमी जेवण लेगीत जेवनात, सादी चॉकलेट लेगीत ताका कोणेंय दिल्यार तो म्हाका दिल्याबगर खायना. हांवें पळयल्यात आजकालचे भाव, फक्त स्टायली मारपाकूच शेणटात, वा आपल्या भयणीवांगडां झगडटात.

आतांच्या तेंपार तरी चले नाकाजाल्लीं कामां करून आपलीं नांवा वगडायतात तशेंच आपल्या आवयबापायचें नाक कापतात. पूण म्हजो भाव तसलें कांयच करीना, कारण तो हे धर्तरेवयलो एक खाशेलो चलो.... खाशेलो भाव. हीं उतरां आयकतना साराच्या आनी सिमाच्या दोळ्यांतल्यान आपशींच दुकां आयलीं आनी तीं अजाप जावन हीं उतरां आयकतूच उरलीं.

सिमान सुस्कार सोडीत म्हळें.

''सारा खूब गुणेस्त आनी समजिकायेची तुजी चली. आयच्या तेंपार इतलो मोग करपी भाव-भयणां तर पळोवपाकूच मेळनात. कळटात ती तुजीच भुरगीं म्हणून.''

साराचें चली एका व्हड कंपनींत सेल्स ॲक्झेक्युटीव्ह म्हण काम करतालें. कामाक लागून ताका चड दीस जावंक नासलें. पूण तें आपलें काम मात पुराय मन लावन करतालें.

''मम्मी एक गूड न्यूज आसा'' साराच्या चलयेन म्हळें.

''गूड न्यूवज! बाये, बेगीन सांग ताका, ताचे कान आतुरल्यात बरी गजाल आयकूंक'' सिमान म्हळें.

''म्हाका आमची कंपनी फाल्यासावन कार दितली. येवपाक आनी वचपाक....''

''हें तर खुपूच बरें जालें मुगो''. सारान म्हळें.

''हय तर, आनी हांव कामाक वतना, बाबाक पावयतलें आनी जेवपाक येतना ताका हाडटलें. आतां तुका भायर सरपाकूय नाका आनी लोकांच्यो खबरो आयकुपाकय नाका''.

हें आयकून साराक दिसलें, म्हज्या चल्याक जमलें नासत, म्हजे चलयेन म्हज्या तोंडार हांसो हाडलो. आतां साराचें काणयेक खोशेयेचो रंग येतालो. सगळ्यांच्या तोंडार हांसोच ह्या दिसांनी फांकलेलो. कितल्या दिसांउपरांत सारा

खुश रावतालें. साराक काळखांतूच उजवाड मेळिल्ला. आतां ती सुखान जीयेवपाक लागिल्लें.

अशेंच एक दीस साराची चली आनी चलो दोगांय कारींत बसून वतना अकस्मात तांका अपघात घडलो, आनी दोगांय जाग्यारूच सोंपली. साराच्या जिवितांत आयिल्लो उजवाड पालवलो..... आतां परतून काळोख. ताचो आदारूय देवान व्हेलो. ताच्या जिवितांत चार खिणांचें सुख ताचे धुवेन ताका दिल्लें, ताच्या तोंडार हांसो दिल्लो आनी निमाणे आपुणूच भावाक घेवन साराच्या जिवितांतल्यान पयस गेलें . तेन्ना साराक ताचे चलयेन म्हणलेल्या उतरांची याद जाली. ''आयज साकून तुका लोकांच्यो खबरो आयकुपाकय नाका''.

आतां कोण पळयतलो साराक? कशें जगतलें तें? कोण आसा ताचो आदार? साराच्या दोळ्यांतलीं दुकांय सोपिल्लीं, आतां ती गळपाक तयार नासली. साराचे काळीज भितल्ल्यान रडटालें खरें पूण भायल्यान मात सारा निर्जीव मुर्तीभाशेन दिसतालें... सामकें मुर्तिभाशेन.

**- पांचवे इनाम मेळिल्ली कथा**

# जीण

- प्रतिमा कासकार

जीण
एक प्रवास
ताची स्टेशनां हजार
धांवता आशेच्या
रस्त्यार
कांय स्टेशनां
लागी
कांय स्टेशनां
पयस
दर स्टेशनांत
नवेंपण, नवीदाद
खंय तरी लिपिल्लें
तातूंत ...
सुख
दुख
यश
अपयश
आशा
निराशा
धोको
मदत
वत
सावली
कश्ट आराम
सगळें सगळें चालूच आसता
जीण ...
एक प्रवास
कोण स्टेशनार
सवकास देंवता
कोण धप्प करुन
उडी मारता
प्रवास पूर्ण जातकच
मनीस मात
शांत
थीर
कुडीची हालचाल लेगीत
बंद
सासणाखातीर....!

**- पयलें इनाम मेळिल्ली कविता**

# धर्तरेचें गीत

- के. ऋषिकेश

गायलां म्हज्या पुर्वजान
म्हाका तेंच गीत गावंक दियात
धर्तरेच्या पांचव्या रंगान
आयज म्हाका न्हांवंक दियात !

गायल्या म्हज्या पुर्वजान
गीत पांचव्या दोंगरांचें
चुन्ना - चारांचें
काण्णां पिटकुलांचें
चुन्ना - काण्णां खावंक दियात
धर्तरेच्या पांचव्या रंगान
आयज म्हाका न्हांवंक दियात !

गायलां म्हज्या पुर्वजान
गीत तळयां - वझऱ्यांचें
न्हंयां - दर्यांचें
ल्हांरार नाचपी नुस्त्यांचें
नुस्तें म्हाका खावंक दियात
धर्तरेच्या पांचव्या रंगान
आयज म्हाका न्हांवंक दियात !

गायलां म्हज्या पुर्वजान
गीत शेतां - भाटांचें

झाडां - माडांचें
फुलां - फळांचें
फळां म्हाका खावंक दियात
धर्तरेच्या पांचव्या रंगान
आयज म्हाका न्हांवंक दियात !
गायलां म्हज्या पुर्वजान
गीत घरच्या गोरवांचें
रानांतल्या सावदांचें
सवण्यां - सुकण्यांचें
सवण्यांचें म्होवाळ गीत आयकूंक दियात
धर्तरेच्या पांचव्या रंगान
आयज म्हाका न्हांवंक दियात !

धर्तरेच्या पुतानो,
पांचवो रंग पुसोव नाकात
पुर्वजांचें पांचवें गीत
तांबड्या रंगात शेणोव नाकात
तेंच गीत गावंक दियात
धर्तरेच्या पांचव्या रंगान
आयज म्हाका न्हांवंक दियात !

**- दुसरें इनाम मेळिल्ली कविता**

# गोबोर

- व्हेनिश फेर्नांडीस

दुखांनी रडटा रस्तो
घेवन माथ्यार गोबोर
हय... गोबोर !
गोबोर .... लाशिल्ल्या गाड्यांचो
गोबोर .... लाशिल्ल्या वस्तूंचो
आनी
गोबोर .... लाशिल्ल्या मनिसपणाचो
त्या क्रोधाच्या होमखणांत
आमीच लासलें मनीसपण
त्या क्रोधाच्या संवसारांत
भावांकूच केले दुस्मान
शांततायेच्या गोंयांक म्हज्या
कोणाची गा लागली नदर ??
ते विटाळ नदरेनूच
मनीसपणाचो केलो गोबोर !!

- तिसरें इनाम मेळिल्ली कविता

# मोग

- तनिका रावत देसाय

मोग केन्नाच नासता चंद्राभशेन
तो तर ... सुर्याभशेन
तो सदांच तेजान भरिल्लो
सगळ्यांक तोच जाग हाडटा
... तोच हाडटा जिवितांत उजवाड
... तो केन्नाच अस्तमना
फक्त आमीच रावतात घुंवत
आनी आमकां दिसता
तो अस्तमलो म्हूण
... पूण तो मात आसा थंयच आसा

हजारांनी वर्सांसावन
सुरवातेसावन ... अंतामेरेन

**- चवथें इनाम मेळिल्ली कविता**

# मनीसपण

- हेमा केरकार

संवसाराच्या घडणुकेंत
विसरत वचपी मनीसपण
दाटिल्ल्या शेळ्याचेर पांय
निसरुन पडपी मनीसपण ...
हुलपतल्या तांबड्या हळदुव्या
उज्याच्या कोळशासारखें हुलपत
रावपी मनीसपण ....
दाटीलाटेन पसरिल्ल्या ह्या
विचित्र संवसारांत शेणिल्लें
मनीसपण, सोदपी स्वताक
ह्या संवसाराच्या मनीसपणांत
शेणून वता.

**- पांचवें इनाम मेळिल्ली कविता**

# राष्ट्रीय सुरक्षा एक प्रस्नचिन्न?

**- पद्मा सांगांवकार**

''चित्त जंय भयाविरत उंच नित्य माथों'' गुरुदेव रविंद्रनाथ टागोरांनी वर्णिल्लो 'सुजलाम सुफलाम' असो आमचो भारत देश. जंय श्रीराम आनी कृष्णाची सासाय आसा. भगवान येशूची जंय पवित्र शिकवण आसा. अशा हे शांतीप्रिय पुण्यभुंयेचेर कितल्याशाच परकी देशांच्यो घुरयो जाल्यो. तांणी आमचो भारत देश आपल्या शेकातळा दवरलो. पूण आमच्या शूर, वीर आनी व्हड म्हान देशभक्तांच्या बलिदानांतल्यान परकी सत्ता मोखून आमी स्वतंत्र जाले. परकी राजवटींतल्यान आमी मेकळे जावन मोट्या अभिमानान स्वतंत्र भारताचो 'जयजयकार' गावपाक लागले. ''वंदे मातरम्'', ''जय हिंद'' अशी स्वतंत्र भारताची गाज भारतियांनी संवसारभर फाफारली.

पूण त्याच जाग्यार आयज हे पुण्यभुयेंत कान किटाळपी बॉम्बस्फॉट आमकां आयकुपाक येतात. मनशाच्या राक्षसी कर्तुबांचो ज्वालामुखी धगधगता. हिमालयांतल्यान व्हांवपी गंगा यमुनाच्या पवित्र उदकाचे लाटेर आयज काश्मिरांतल्यान व्हांवपी रगताचे पाट भरसतात.

बारीकसाणेन तेळीत तर आमचो देश आयज सुरक्षित ना.

भारतियांच्या सरभोंवतणी मरणाचे पास भोंवत आसा. धर्तरेवयलो सर्ग जाका म्हणतात तें आमचें काश्मीर बळकावंक पाकिस्तान परतून परतून भारतियांच्या जिवाकडेन खेळटा. हाची गवाय म्हळ्यार काश्मिरांत जावपी दिसपट्टे. बॉम्बस्फॉट, काश्मीरांतल्या लोकांची कत्तल. अतिरेकी कर्तुबांनी आयज हें नंदनवन काश्मीर, शिमितेर जावपाक आता इल्लोय कळाव उरूंकना.

हिंन्दू शिखामदीं उज्याकीट धुंगसावन, खालिस्तानाची मागणी करीत पंजाब पेटयलें पूण आमच्या शूर जवनांनी भारताचे कुडके जावंक दिले ना. आमच्यो प्रधानमंत्री सर्गेस्त श्रीमती इंदिरा गांधींचो जीव तांच्याच राखणदारांनी घेतलो. तमीळ टायगर्साच्या राक्षसी कर्तुबांनी राजीव गांधीचो बळी घेतलो.

गुजरातांतले 'गोध्रा हत्याकांड' हें तर धगधगतें होमखाण देशांत पेटयलें. मुंबयंत बॉम्बस्फॉटाची सिरयल सुरु जाल्या. जिवाची मुंबय करुंक गेल्ल्या मनशांची आयज थंय मरणाची मुंबय जाल्या. अक्षरधाम मंदिरांत घडोवन हाडिल्ल्या रक्तपानात मनीसपण शेणलां.

धर्मकोल्ल्याचो अच्छेव आयज भारतभर पिडूंक लागला. ह्या अच्छेवान बापुजीनी आमकां दिल्ली सत्य, अहिंसा आनी शांती हीं तत्वांय हालूंक लागल्यात. लोकांचे जिवीत अतिरेक्याच्या हातांत पावला. देशाचे उदरगतीक खीळ पडूंक लागला. हो अच्छेव केन्ना थांबतलो? देशांतलो वाडिल्लो आतंकवाद पळयत तर राष्ट्रीय सुरक्षा ह्या उतरांमुखार एक व्हडलें प्रस्नचिन्न उबें रावता.

आमच्या सुरक्षा जवानांक हांव दोश दिना. भारतमातेखातीर आपलो जीव 'कुर्बान' करपाची जवानांची ही परंपरा आमच्या जवानानी केन्नाच सोडूंक ना. लाखानी तरनाटे आयजलेगीत सैन्यांत भितर सरतात. फकत आमच्या जवानाकडेन आमी बोट दाखयत तर आमी एक व्हडलो गुन्यांव करता म्हणपाचें पाप आमी करतात. आमचें संरक्षणमंत्री म्हणतात - 'भारताची सुरक्षादलां अतिरेकी संघटनानी चलयिल्ल्या ह्या धर्मकोल्ली कर्तुबांक फाव तशी जाप दितात', हीं अशीच उतरां फाटलीं कितलींशींच वर्सां आमी आयकतात. आनीक कितलीं वर्सां आयकतलें? भारतांतल्या सगल्या राज्यांचे काश्मीर जायसर? आमचे सुरक्षा जवान न्हय तर सुरक्षा यंत्रणा कमी पडटात. हाची देख आमकां फाटी मेळ्ळया. एकवटेन आमचे आदले प्रधानमंत्री भौ. अटलबिहारी वाजपेयी लाहोर - भारत बस सुरू करुन 'अमन का पैगाम' घेवन लाहोराक गेले तर दुसरेवटेन पाकिस्तानी सैन्य कारगिल बळकावंक भारतात घुसले. संरक्षणमंत्री वा प्रधानमत्र्यांचेर म्हजो दोळो ना. पूण कारगिल झुंजाची तयारी कितें एका दिसान केल्ली? शिमेभितर सरतल्या अतिरेक्यांकडलें शस्त्रांबळ कशें लिपून उरता? लिपचोरयां तांचो भारत - प्रवेश कसो जाता? 'घरचो भेदी आनी भायले चोर' ही ओपार म्हाका हांगा मारीन दिसता. आयज राजकी सुवार्थामुखार, सत्ता भोगपामुखार, आमच्या राजकारण्यांक देशाचें मातलेगीत पडून गेल्लें ना. सिमी, लष्कर - ए - तोएबा, अल कायदा, जैश - ए - मोहमंद ह्या अतिरेकी संघटनांमुखार आमी

हात तेकयल्या. सिमी ही तरनाट्यांची अतिरेकी संघटना शिक्षीत तरनाट्यांक आपल्याकडेन ओडून घेता तर तांचे प्रशिक्षण आनी कुटूंबीक जापसालदारकी लष्कर - ए - तोएबा घेता. देशांतली बेकारी हेंय हाचेफाटलें एक कारण. सिमी सारकिल्ल्या ह्या संघटनांचेर कित्याक बंदी पडना? ह्या संघटनांक पुरवण जावपी शस्त्रांबळ आनी पयसो खंयसावन येता? हे कांय अशे प्रस्न आसा जांका एक अशी जाप ना, कितलींशींच उतरां, कितलोश्योच जापो, पूण एक लेगीत धड न्हय.

ह्या अतिरेकी संघटनांचीं पाळां मुळां सामकी खोल पावल्यांत, जडावल्यांत. ह्यो संघटना भंय भिरांत बाळगिनासतना हल्ल्याची जासपालदारकी उघडपणान घेतात. असल्या विघातक चळवळींक उर्बा दिवपी राजकी नेते आनी कांय प्रसारमाध्यमा जोमेरेन आसतलीं तोमेरेन भारतीय जनता अशीच मरतली. 'गुजरात रिवेंज फोर्स' ह्या नांवाफाटल्यान सिमी आनी लष्कर - ए - तोएबा आसात. बाटली नवी पूण सोरो तोच. मुंबयंत बॉम्बस्फॉट करपाक सुशिक्षित तरनाटे आसात. हो रिवेंज बिन कांय न्हय. तर अतिरेक्याची बळावल्ली मस्ती. गुन्यांवकारी टोळयेचीं कर्तुबां, खंडणी, चोरयो-मारयो, खून, दंगल हांका आळो घालपाक पुलीस कमी पडटात. मुंबयंत लोकांनी मुहल्ल्या समिती घडयल्यात. ह्या मुहल्ल्या समितींक खरीखरी राखण मेळूंक जाय. वाढीव पुलीस दळ, अस्त्रां - शस्त्रां, जवानांची आनी तांच्या कुटुंबाची उदर - पोसण, प्रशिक्षण हाचेर जावपी खर्चाक कातर लागूंक जायना. गुन्यांवकाराक खरी ख्यास्त जावंकूच जाय. सीबीआयचे गूट हे गूटच उरुंक जाय, ते उघड जावंक जायना. झुंजावेळार, सिमेचेर राखण करतना पहाडी हवामान, खाणें-पिणें आनी वैजकी सुविदांचेर फाव ते उपाय जावंक जाय.

पाकिस्तान आनी भारत हांचेभितरलें सायबर झूंजय आतां लिपून उरूंक ना. ते थांबोवप चड गरजेचें. कंप्युटरांतले पासवर्ड चोरुन आमची महत्वाची थळां-म्हायती मेळोवन अतिरेकी आमकां ना करुंक सोदता. पूण भारतान तांचेआड तयार केल्लो 'याहा' वायरस ही भारतान तांका दिल्ली सणसणीत जाप आसली.

अशे तरेची जतनाय आर्मी पावला पावलाक घेतली आनी राजकी सुवार्थ पयस दवरलो जाल्यारच भारताची राष्ट्रीय सुरक्षा दर एका भारतीयांच्या जीवाचो आधारखांबो जातली नाजाल्यार भारताची राष्ट्रीय सुरक्षा एक प्रस्नचिन्नच जावन उतरली.

''जय हिंद''

**पयलें इनाम मेळिल्लो निबंद**

# बंक

- चिन्मय बोरकार

'बंक' हो शब्द खुबदां आयकला आसतलो. पूण अणभवला आसतलो काय कितें तें देवूच जाणा! बंक हीं दोनच उतरां पूण भुरग्यांक 'Operation Bluestar' वा 'Operation Vijay' सारखेल्या उतरां परस ल्हान दिसना. 'बंक' कांय जाणाखातीर खूप फावट एक Operation जावन पडटा.

धाव्वी जाले उपरांत हांवें उच्च माध्यमीक विद्यालयांत प्रवेश मेळयलो. बंक ही संकल्पना तेन्ना अनवळखी आसली. फक्त नांव आयकल्लें, ताका लागून थोडोच अदमास आशिल्लो. बंक हो शब्द आयकून म्हाका सदांच चेतन भगत हांच्या 'फाय पॉयंट समवन' ह्या पुस्तकांतली $C_2D$ हाची याद जाता. बंक ह्या शब्दाचें मूळ म्हाका खबर ना. पूण हें एक क्रियापद जाचो शब्दकोश अर्थ 'be absent from school or work without permission' अशें सांगता. म्हज्या मतान तो अर्थ 'Extremely adventourous activity involving risk or danger if new in the business, or a piece of cake it experienced.'

बंक खूब तरेचे आसतात वा ते मारपाचे कितलेशेच पर्याय आसतात. मास बंक, सिंगल बंक, ग्रूप बंक, फोर्सड बंक, डेय बंक, आनी जायत्यो तरा. इतलेंच न्हय तर फस्ट हाफ बंक आनी सेकण्ड हाफ बंक सारकेल्यो गजाली अस्तित्वांत आसात. हो बंक दिसपाक सोपो दिसता पूण बंक मारप सापें काम न्हय. एक वायट आनी अतिशाणो भुरगो बंक मारूंक सोदतालो. जालें, ताणें तयारी केली आनी निमण्या बांकार वचून बसलो. टीचर वर्गांत आयली, हजेरी घेतली आनी शिकोवंक सुरवात केली. तेन्नाच तिची नदर चुकोवन हो भुरगो जमनीवयल्यान दिमखुऱ्यानी वर्गांतल्यात भायर सरलो. आनी ताणें धाव मारली. उपरांत सगळीच ताका तोखेवपाक लागलीं. तो भुरगोय बरो फुल्लो. पूण दुसऱ्या दिसा जें घडलें तें ताणें सपनांत लेगीत चिंतूक नाशिल्लें. दुसऱ्या दिसा वर्गांत

शिक्षिकेन ताका विचारलें, ''तूं आर्मीत वचूंक सोदता काय कितें रे? काय तुजें पूर्वज माकड न्हय तर सोरोप आसले?''

तिका कितें म्हणपाचें आशिल्लें तें सगळ्यांक कळ्ळें. शिक्षिकेक तें कशें कळ्ळें हें एक देवूच जाणा. उपरांत त्या भुरग्याचेर फावो ती कारवाय जालीच.

बंक मारपाक विविध विशयांचें ज्ञान आसप सामकें गरजेचें अशें ह्या क्षेत्रांतले तज्ञ मानतात. बंक मारपाखातीर गणित, भुगोल, फिजिक्स आनी थोडें भोव नाटकाचें आंग आसप गरजेचें. गणिताचो संबंध कसो येता हें सांगता. तुमी Probability हे संकल्पनेविशीं आयकलां आसतलें न्हय? हरशी हो धडो बारावेक पावतकच शिकचो पडटा पूण तज्ञाचें मत अशें  की तो बेगीनच शिकपाक जाय.ताचो बरोच फायदो जाता. ही संकल्पना वापरून तुमची सापडपाची शक्यताय अचूक तरेन काडपाक येता. ती कशी काडप हें हांव सांगूक नकळो हांव तज्ञ न्हय. आनी ताचे कॉपीरायट दुसऱ्या कोणा कडेन आसात. आतां भुगोल हो विशय कसो वापरांत हांडू येता तो पळयात. सगळ्यांत पयली तुमच्या कॉलेजीचो नक्सो तयार करात आनी ताचेर पूर्व, पश्चिम, उत्तर, दक्षिण ह्यो भितर आनी भायर सरपाच्यो सगळ्या वाटांची नोंद करात. तेच तरेन ह्यो वाटो प्राचार्याच्या कचेरी कडल्यान कितल्या अंतरार आसा हें स्पश्ट करात. ह्या कामाखातीर भुगोलाचें ज्ञान आसल्यार बऱ्याक पडटा. तातूंत नाटकाचें आंग आसल्यार आनी बरें. एक भुरगो असोच बंक मारुन येतालो. इतल्यांत प्राचार्यान ताका धरलो आनी तूं खंय गेल्लो? हें विचारलें. तो भुरगो अजिबात आबूज जालो ना. ताणें थंडसाणेन जाप दिली. ''सर, आतांच म्हजो बापूय म्हाका पावोवन गेला. हांव बरो नाशिल्लो देखून दोतोरागेर गेल्लो. सर हांव म्हज्या बापायक आपोंव?'' त्या भुरग्याची ती जाप आयकून प्राचार्यान ॲंडेल पिल्ल्या भशेन तोंड केलें.

फुडें प्रस्न येता की भुरगीं बंक मारुन करतात कितें? बंक मारून भुरगीं शिकता असलीं फटींगपणा आता चलना. कांय जाण लागसरच्या गाड्यार वा कॅन्टीनांत वचून च्या सुरसुरायतात तर कांय उडाणटप्पूपणा करतात. कांय जाण .... सांगपाक लेगीत लज दिसता... चलयांक घेवन भोवतात, स्टेटस

सिंबॉल म्हणून!... कांय जाणांक बंक मारिल्ल्याचो पश्चाताप जाता आनी आपूण टॉयलेटीन गेल्लों अशें सांगून परत येतात. सुदैवान टिचर तांका टॉयलेटीन बॅगा घेवन कित्याक गेल्लो अशें विचारना. हाचें कारण म्हळयार टिचरी भुरग्यांक भितात. फट्ट करून परतीं जाप दिली जाल्यार तांका लज बी जायत म्हणून. पोंजड्या भुरग्यांक ती संवय आसताच.

मजेखातीर बंक मारता मारता कांय भुरग्यांक बंक मारपाचें व्यसन जाता. बंक मारले बगर तांका सूख लागना. हे भुरगे बंक मारता आनी दुसऱ्यांक 'प्रॉक्सी' अटेंडन्स' दिवपाक लायतात. काय धीट भुरगी हेंवूय करता. भुरग्यांक बंक मारपाचें व्यसन लागता अशें म्हणपा फाटलें कारण आसा. एकदां सर्तींत एका भुरग्याक प्राचार्यान विचारलें, ''तूं प्राचार्य जालो जाल्यार कितें करतलो?'' त्या भुरग्यान जाप दिली, ''सगळ्यांत पयलीं तुमकां भायर काडटलो, कॉलेजीच्यो सगळ्यो वण्टी मोडटलो. पिवनाक घांट बेगीन मारपाक लायतलो आनी हजेरी घेवपाचें बंद करतलो. ''हें आयकून प्राचार्याचे तोंड त्या घांट मारपी पिवना भशेन जालें.

**- दुसरें इनाम मेळिल्लो निबंद**

# तरनाटो - काल आनी आयज

- बबिता रा. सावंत

आयचो तरनाटो म्हळयार फाल्यांचें भविश्य अशें मानतात. आयचो तरनाटो म्हळयार फुडली पिळगी घडोवपाचो आदाराचो खांबो. आयचो तरणाटो तर सुशिक्षित, सुसंस्कृत आसलो जाल्यारुच फुडली पिळगी भिरांत बाळगिनासतना बरी जातली अशें म्हण्टात. आयज जर तरनाट्यांकडेन लक्ष दिलें, तांच्या आरोग्याची जतनाय घेतली जाल्यार फुडे एक सुदृढ देश निर्माण जावंक शकता हातूंत कांय दुबाव ना. आयचो तरणाटो ह्या नव्या, सुसंस्कृत सुशिक्षीत युगाक अनुकूल अशें वातावरण निर्माण करपी एक महत्वाची देणगीच. ताच्याकडे ह्या एकाच नदरेन कांय जाण पळयतात, आनी त्या उद्येशाचेर ताचेर जापसालदारकेचें वजन दवरतात. पूण प्रत्यक्षांत आयचो तरणाटो खंय आसा? आनी तो खंय वता? हाचेर लक्ष दवरीना. त्याखातीर तो बऱ्या मार्गान वता काय ना? हाचेर लक्ष दिवपाची खरी गरज आसा.

आयच्या तरनाट्यांची स्थिती पळयत जाल्यार तो फुडल्या पिळगे मुखार बरो आदर्श घालून दित हाची शंकाच आसा. कारण आयच्या तरनाट्यांची समाजांत वागपाची, वावुरपाची तराच बदलून गेल्या. आदल्या काळांत तरनाट्यांची स्थिती वेगळीच आशिल्ली. एक म्हळयार तो आज्ञाधारक आशिल्लो. आवय-बापूय गुरू म्हूण तांच्या उतरांक परतें उतर दिवपाचें धाडस जायनाशिल्लें. हाचें कारण आनीकूय एक आशिल्लें, त्या काळांत गुंडगिरीचें ल्हार खंयसरूच उप्रासूंक नाशिल्लें. हालीच्या अस्तित्वात आशिल्लो फ्री सेक्साचो प्रभाव त्या काळांत नाशिल्ल्यान तरनाटो मर्यादीत आशिल्लो. त्या पिळगेचो आदर्श बाळगून दवरप हें ताचें ध्येय आशिल्लें. आनी तेन्नाचो काळ असो आशिल्लो की तरनाटो आपल्या आवयक सोडून हेर बायलमनशांकडेन उलोवपाक भियेतालो. पूण आयची स्थिती हाच्या उरफाटीच जाल्ली दिश्टी पडटा. पयलीं चली पळोवपाक

चल्यांक ओडून व्हरताले. पूण आयची परिस्थिती तर आमच्या दोळयामुखार आसा. आवय - बापायक आयज त्रास घेवचे पडनात. कित्याक तर सून आपल्याच पांयांनी चलून येता. पयलींच्या काळांत बडयेचो, थापटांचो भंय तरणाट्यांक आसतालो पूण आयज आवय-बापूय आनी शिक्षक आपलो जीव मुठीन घेवन दीस सारतात. आपल्या जाणट्या मनशांक विश्वासांत घेवपी दीस केन्नाच फाटी पडले. 'श्रीराम' सारको आज्ञाधारक, आदर्श तरणाटो आयज दिवो घेवन सोदलो तरी मेळचो ना. खंय तो श्रीराम आनी खंय तो आयचो रोड रोमिओ? तो राम आपल्या बापायच्या आज्ञेन वनवासाक गेल्लो. तो धर्मराज आपल्या आज्ञाधारक भावांवांगडा फकत उतरांचो मान राखपाखातीर वनवासाक गेल्लो. पूण आयची परिस्थिती पळयत जाल्यार कितलोसोच फरक दिश्टी पडटा आमकां तांच्यात आनी आयच्या तरनाट्यांच्या पिळगेक. आयचो तरणाटो आपल्या जल्मदिवपी आवय बापायक वृध्दाश्रमांत पावयतात कित्याक तर तांची तांका अडचण जाता.

दुसरी गजाल म्हळयार आयज तरनाट्यांची पिळगी व्यसनांकडेन आकर्शीत जाल्या. ही प्रवृत्ती पयलीच्या तरनाट्यांक नाशिल्ली. पयलीं तरनाटे कामान इतले घुस्पून उरताले की ह्या सारकिल्ल्या वायट गजालींकडेन लक्ष दिवपाक वेळूच नाशिल्लो. सादे पान पसून खावपाचें तांका व्यसन नाशिल्लें. आमचो तरनाटो सोन्याच्या गादयेर बसून वरांची वरां बाटल्यो सोपयतात. हे असले गूण पयलींच्या तरनाट्या भितर नाशिल्ले. हो कालच्या आनी आयच्या तरनाट्या भितरलो भेद. हाचो अर्थ असो न्हय की पयलीचे तरनाटे अशे नाशिल्ले, पूण तांका जापसालदारकेची जाणीव आसताली. स्वताचेर लादील्ल्यो जापसालदारक्यो सांबाळपाची तांक आसताली. पूण बाबडी आयची तरनाटी पिळगी!! खंय ... खंय आसा? तांका आपल्या स्वतःचो तोल सांबाळपाक जायना, तो जापसालदारांक कितें साबाळटलो? मागीर आदर्शाची गजाल येताच खंय? स्वताच व्यसनान बुडिल्लो दुसऱ्याक आदर्श कितें कर्म शिकयतलो? दुसऱ्याक व्यासनापासून पयस रावपाक कसो शिकयतलो? आनी तांणी सांगिल्लें

आयकतलो कोण? कारण समाजाच्या नदरेन ताचें मोल शुन्य जाल्लें आसता. तो स्वताक जरी प्रतिश्ठित तरनाटो समजता आसलो तरी तसो तांका समाज मानपाक तयार जायना आनी ह्याच कारणाक लागून आयचो तरनाटो हो पिड्ड्यार जायत वता.

हें सगळें कशें घडटा? आयचो तरणाटो इतलो आलमपिड्ड्यार जालां की हाचीं कारणां खूब आसात. सगळ्यांत मुखेल म्हळ्यार पाश्चात्य संस्कृतीचो आमचेर पडिल्लो प्रभाव, पाश्चात्यांची वागपाची तरा, तांची दिसांची वागपाची तरां, तांचे रावप, तीं उलयता तशें उलोवप हीच आमच्या तरणाट्यांभितर फॅशन जावन बसल्या. दुसरी गजाल म्हळ्यार दूरदर्शनाचो तरनाट्यांचेर पडिल्लो प्रभाव. आयज दूरदर्शनावेल्यो कार्यावळी एका दृश्टीन फायद्याचे नदरेन दाखयतात जाल्यार दुसऱ्यावटेन वायट तरेन तरनाट्यांचेर परिणाम जाता. आयचे निर्माते आपल्या फायद्याखातीर सिनेमाची निर्मिती करतात पूण लोकांचेर जाल्ल्या परिणामाची तांका जाणविकाय नासता. सिनेमांत सगळें वास्तवीक आसता अशें पळयल्यार दिसता, आनी तेय ते तरेन वागतात. जिवितांतुय तेंच करपाचो तांच्या आंगान एक जिज्ञासा निर्माण जाता. आनी तांच्याभितर गुंड प्रवृत्ती वाडीक लागता आनी हाका लागून ते गुंडागिरी करतात, ह्या कर्माक लागून तांका समाज वायट नदरेन पळयता.

आनी एक मुखेल कारण म्हळ्यार, इबाडिल्ली शिक्षण वेवस्था. आयज शाळा, संस्था, कॉलेजी हे जणू कितें डिग्री तयार करपाचे कारखानेच जाल्ले आसात. ह्या कारणाशिवाय आयची राजकी, सामाजीक आनी आर्थिक परिस्थितीय तितलीच जबाबदार आसा. आनीक अशी कितलींशींच कारणां आसात जांकां लागून आयचो तरनाटो घुस्पून गेला.

वयल्या सगळ्या गजालींचो विचार केल्यार लक्षांत येता की तरनाटो हो जल्मताच इबाडिल्लो नासता तर ताचो जसो भायल्या जगाकडेन संबंद येता तसो

तो बदलत वता. ताच्या सरभोंवतणच्या वातावरणाक लागून ताची वृत्ती बदलत वता ताका लागून आदर्श तरणाटो घडोवपाचो आसा जाल्यार पयलीं समाजाचो दृश्टीकोण बदलपाक जाय आनी तरनाट्यांक वायट गजालींकडेन व्हरपाचे प्रवृत्तीचो नाश करपाक जाय. शिक्षणाचो दर्जो वाडोवन योग्य तरेचें शिक्षण तरनाट्यांक दिवंक जाय. अश्यो संस्था कंपनी तयार करपाक जाय की जाकां लागून तरणाटो कामान घुस्पून रावतलो आनी भायल्या वायट गजालींपासूनूय परसावतलो आनी अशें केल्यारूच तो आपलें आनी देशाचें भवितव्य घडयतलोच हांतूत कांयच दुबाव ना अशें म्हणू येता!!

**- तिसरें इनाम मेळिल्लो निबंद**

# गोंयची तरनी पिराय

- मारीटा आर्बिटो

ह्या संवसारांत मनीस जगता आसतना ताका तीन अवस्थेंतल्यान वचचें पडटा. भुरगेंपण तरणाटेंपण आनी जाण्टेंपण. भुरगेंपण आनी जाण्टेंपण हें एकाच भाशेन आसता कारण ह्या दोनूय पावंड्यार मनशाक दुसऱ्याच्या आदाराची गरज पडटा. ताका स्वतंत्रपणात वा आपोआप कांयच करूंक जायना. तेन्ना तांकां दुसऱ्याचो आदार घेवचोच पडटा.

पूण तरनाटीं जी पिराय आसता. तीं वेगळीच जीण आसता. ह्या पिरायेर सगळे मेकळेंपण स्वतंत्रताय एक वेगळे विचार मनांत घेवन चलता. ताका दुसऱ्याचो आदार नाका आसता. उरफाटेच जाल्यार ताका दुसऱ्याचें विचार वा म्हणणे आडखळेचेशें दिसता. म्हाका जाय तें करतलो वा करतले हें जिवीत म्हजे. ही पिराय सदांकाळ उरचिना. हे दीस परत येवचे ना. 'सो व्हि शुल्ड इनजॉय इट' अशें म्हणून दुसऱ्याचें कांयच सांगणें आयकुपाचें ना.

ह्याच तरणाट्याक जेन्ना दुसरो बरी बुध्द वा शिटकावणी दिवपाक सोदता. तेन्ना ताका दिसता की म्हज्याच मनशाक आपणाचें कांयच पडून वचूक ना. सगळो वेळ म्हज्यो चुकी काडीत आसता. म्हज्या आवय बापायक खबर ना की आपूण आतां व्हड जाला आनी स्वता निर्णय घेवपाक शकता.

जेन्ना होच भुरगो वा भुरगें समाजांत वागता, वाडटा आनी व्हड जाता तेन्ना ताका वायट संगती मेळटात. तांचे बरोबर आपलीय जीण वायट मार्गार पावल दवरता. तेन्ना हेच भुरगे दुसऱ्याचें सांगणें आयकीनासताना वायट व्यसनां घेता आनी आपली जीण सोपयता.

आज काल तर तरनाट्यांच्या वायट व्यसनांक लागून कितलेशेच घराबे इबाडिल्ले पळोवपाक मेळटात. पूण हेच तरनाटे जेन्ना कसल्याच बऱ्या कामाक हात घालता तेन्ना तें काम जातलेंच अशी शक्यताय आमच्यांनी दिवं येता. कारण ही पिराय आपखोशेची आनी कश्टी वावुरपी जीण. पूण हीच

पिराय वायट व्यसनां लागून इबाडटात तेन्ना खूब दुख दिसता.

आयचे तरनाटे सोरो, ड्रग्स सिगरेट मडको आनी हेर व्यसनानी आपली जिवीत इबाडटा. 'सोरो जिवाक बरो' अशें ते म्हणटात. पूण ह्याच सोऱ्यान ते आपलो घराबो आनी जिवीत इबाडटा. आपले आवय बापायक दुखा शिवाय कांयच मेळना हें ते समजना. सिगरेट आनी ड्रग्स आज काल चलयो लेगीत घेवपाक लागल्यात.

जो मोग भुरग्याक घरांतल्यान मेळपाक जाय आसलो तो मेळना. कित्याक आज काल आमच्या आवय बापायक भुरग्या परस ''पयसो'' चड गरजेचो. ताच्या मतान पयश्यान सगळें विकतें घेवं येता. आवयची माया लेगीत. हाकाच लागून ताच्या घरांत भुरगो थोडो पूण वावराडी चड.

समाजांत जाल्लो वायट वेव्हार, आज काल तर टी. वी. इंटरनेट लेगीत मनशाचे विचार बदलूंक शकता. ह्या सगळ्या कारणाक लागून आमचे वाडटे पिरायेचेर चड प्रभाव पडला.

तरनाटे ड्रग्स, सोरो हांचेमदी घुस्पल्लें दिसतात. पूण ताका हेय कळूंक जाय जेन्ना ते जाण्टे जावन फाटल्या जिणेकडेन पळयतले तेन्ना ताका लज दिसतली. ह्या गजालीची की तांणी आपले वर्तमान व्हगडायलो... फुडार काबार केला. भविश्यकाल पिसुडलो.

**- चवथें इनाम मेळिल्लो निबंद**





# गोमटें गोंय काय कॉन्क्रिटाचें जंगल

- डॅनिस वाझ

गोंय म्हजें गायता
तालार ल्हार नाचता
न्हंय म्हजी मुरगट्टा
शेतां - भाटां धोलता
गोंय म्हजें ....

म्हज्या गोंयची सोबितकाय काळजाक सादयता, दोळ्यांक भुलयता .... गिरेस्त सैमाची मिरास उक्ती करून अभिमानान मिरोवपाचें भाग्य म्हज्या गोंयान दर एका गोंयकाराक दिलां. पूण आयज ह्याच अभिमानाक कोणतरी वेर घालूंक सोदता, गोंयकारांची गिरेस्तकाय ताचेपासून झोपून घेंवक सोदता. ही भिरांत गोंयकाराच्या मनांत सांवट जावन पातळपाक लागल्या. गोमटें गोंय फुडाराक कशें आसतलें? हो एक प्रस्न दर एकल्याच्या मनांत घर करून आसा. गोंय हें आकारान ल्हान तरीय राजकारणी लोकांचो गोंयाचेर दोळो मात मोटो आसा. हारशासारकें चकमकपी आनी मोतयां सारकें लकलकपी गोंय एकूच खिणात उबी मोनी 'लाश' जावपाची आसा.

संवसारांतली सगळी सुन्दरकाय एकठांय येवन जल्माक आयिल्लें आमचे गोंय. ताका लागून ताका ''गोमटें गोंय'' अशें म्हळां. गोंयची चकचकपी मोतयां म्हळ्यार गोंयचें दोंगर, रानां, झाडां, दर्या-वेळो, सैम आनी माती.

कांय गोंयकारांच्या आनी राजकारण्यांच्या मनांत एका राकेसान जल्म घेतला आनी तो राकेस म्हळ्यार ''आराखडो २०११''. ताका लागून गोंयकाराक आपले वायट दीस मेजपाक लागचे पडटले. ना जाल्यार रामान रावणाक मारुन उडयलो तेच भाशेन गोंयकारानी 'आराखडो २०११' हाका मारचो पडटलो.

आमच्या राजकारण्यांनी गोंयची उदरगत जावंची म्हण एक कीड (आराखडो २०११) पोसूंक घातल्या. ती पोसून व्हड जाली जाल्यार गोंय राजकारण्यांच्या हातांत आनी जर गोंय राजकारण्यांच्या हातांत पडलें जाल्यार गोयकारांनी गोंय सोडून वच्चें पडटलें. गोंय गोंयकाराचें आसून लेगीत ताकाच तातूंत आपले तोंड लिपोवपाक सुवात आसची ना.

गोंय झाडां - पेडांनी आनी रानांनी नटिल्लें आसा. फाटलीं कितलींशींच वर्सां गोंयच्या झाडांनी एकामेकांचो हात आपल्या हातात धरून वाऱ्या वांगडा आपली मान हालोवन भोंवडेकारांक येवकार दिला. आनी आयज ह्याच भोंवडेकारांक लागून आपलो जीव वगडावपाचो वेळ तांचेर आयला. ताका लागून आमचे माय-भूंयचें काळीज रडटा. पांचवीं-पांचवीं रानां कातरून एक उगतें मळ जातलें. झाडांच्या पानांनी लिपिल्ल्यो जमनी नागडयो जातकच आमकां आपल्या रडकुल्या दोळ्यांनी पळयतल्यो. सवणीं सुकणीं आनी जनावरांक आपली घरां वगडावंचीं पडटलीं. कोगळीचो म्होवाळ आवाज आयकुपाक आमचें कान तरसतले. तशेंच जनावरांक पळोवपाक आमचे दोळे आशेन रड्टले.

गोंयचे व्हड-व्हड दोंगर कातरतकच आमचे माय-भुंयचे पांयूच कापिल्ल्या वरी जातले. आपल्या आंगार पांचवेसार कपडे न्हेसून आशिल्ले आमचे दोंगर एकाच खिणांत नाच्च जातले. आमच्या गोंयकाराचे दोंगराचेर आशिल्ले पोट शेणटलें. गोंयचे दोंगर काण्णां, चुन्ना, काजू खावपाक आमच्या तोंडार सुटिल्लें उदक उदकूच उरतलें .... आमच्या गोरवांचें पोट ह्या दोंगरांनी सांबाळ्ळां. गोरवां-वासरांचें पोट्रूच शेणटलें. दोंगराची-आडवणां इतिहासांत जमा जातलीं. गोंयच्या भौसाक तारपी, सृजनशील मनांक सादोवपी, गोरवां-वासरांचें सांबळपी मोगा काणयो घडोवपी हे आमचे दोंगर फुडले पिगळेक घडये इतिहासांत शिकचें पडटलें.....

आमचे मांय-भुंयचें पोट चिरून चलपी मीनाच्या उद्देगान पांचवें गोंय तांबडें केलां. तातूंत भर घालूंक आनीक मीना खणी गोंयांत सुरू करपाचें कारस्थान आमच्या रुप बदलपी शेङ्ग्यान (सरकारान) चलयलां. ताचेर जाल्लो हो तांबडो बलात्कार गोंयकार कसो पळोवंक शकतलो??.... आमच्या शेतां

भाटांचेर हावळ येतली. पांचव्या विलुदाचेर खेळपी आमचें गोंय तांबड्या गोजडेच्या चेंपणां खाला चिड्डून वतलें.

गोंय हें क्रोन्क्रिटाचें जंगल जातलें. भायले कावळे येवन आमच्या गोंयांत आपलें बिराड करतले. आमचे भूंयेचेर आमीच परकी जातले संवसारभर मिरोवपी आमचें गोंय आनी गोंयकारांचें गोंयकारपण शेणून वतलें. राजकारण्यांनी आयज गोंयची भूंय पावणेर काडल्या, फाल्यां गोयकारांक पावणेर काडटले. आमची भूंय आयज आमकां सादयता.... गोंयांत रिगपी आनी गोंयकाराचे गोमटेर बसूंक सोदपी हे भुतावळीक धांवडावपाखातीर गोंयकारांचेर भार येतलो म्हणपाची वाट आमचें गोंय पळयता....

कवी बाकीबाबाचो मंत्र आयज आमचें गोंय दर एका गोंयकारांच्या कानांत सादयता....

**जागी जाल्या गोंयची सासाय**
**येतलो भार येतलो भार**
**ढोल ताशे बडय बडय**
**भार शेंसार भार शेंसार ....**

**- पांचवें इनाम मेळिल्लो निबंद .**

साहित्य मनशाच्या गिन्यानांत भर घालता आनी मनीस आपली उदरगत करपाक पावता. हे उदरगतीक गती आनी दिशा आसता हें म्हत्वाचें. सामान्य मनशाक हें पटोवन दिवपाची गरजआसा आनी हें काम तुमी बरे भशेन करूंक शकतात. तांका साहित्य वाचूंक दिवपाची गरजना... बगर तुमचें साहित्य आयकून घेवपाक तयार करूं येता, तांकां कविता करूंक लावंक नाका... बगर तुमचे कवितेंतल्यान तांका आनंद दियात, तुमचे कथेंतल्यान तांकां जिणेची वाट दाखयात, रेंदेराक माडावयलें कवन शिकयात, शेतकाराक जोत आनी भाताचें गायन दाखयात, भाजीवाल्याक भाजयेचो रंग दाखयात, फुलकाराक फुलांचो परमळ दाखयात, पोदेराक उंड्याचें म्हत्व सांगात, नुस्तेकाराक नुस्त्याचो स्वाद दाखयात, मेस्ताक, गवंड्यामुखार ताची कामगिरी गायात. अशे तरेन सामान्य मनशाची जीण जर आमी साहित्यांत हाडून तांचेमुखार मांडली जाल्यार तेवूय आमच्या साहित्याचे भागेली जावंक शकतात. तांका संमेलनाखातीर हाडुनाकात... बगर तांच्या मांडार वचून गावन दाखयात, वाजोवन दाखयात, वाचून दाखयात. एक नवो गट आमकां मेळपाचे वाटेर आसा. जायात जागे, तरनाट्यांनो आनी दियात तांकां हात, हाडूंक तांका तुमच्या आंगणांत आनी तुमच्या सहवासांत. तांकांय नवें मोडण मेळटलें, नवो हावेस मेळटलो. तांचेंय जिवीत फुलतलें, फळतलें. तुमकांय जिणेचें सार्थक लाभतलें, तुमीय धादोशी जातले.

श्री. विन्सी क्वाद्रूश
संमेलनाध्यक्ष
आठवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन